भर्तृहरी कृत

# । वैराग्य शतकम् ।

अणवादपी
नागेश सोंदे

भर्तृहरिकृत—

# वैराग्य शतकम्

अणवादपी : **नागेश सोंदे**



वासंतिक प्रकाशन :
प्रकाशन क्रमांक – ४

*

आवृत्ती पयली
जुलै १९७७

मूल्य
पांच रुपये

*

प्रकाशक :
वासंती नागेश सोंदे
कोंकणी कलासागर प्रा. लि.,
१३, प्रीतम, ११ रस्तो, खार,
मुंबई–४०००५२.

*

मुद्रक :
वासंती नागेश सोंदे
प्रिन्टास, कमर्शियल प्रिन्टर्स
२, बसर मंझिल, ७५ सयानी रोड,
मुंबई–४०० ०२५.

*

मुखपृष्ठ :
सुरेश प्रधान





# भर्तृहरी

भारतांतुले प्रत्येक संस्कृति, कला कौशल्याचे निर्माण कार्याचे मागशी जे कोण वावुरले, तांगेले जीवन, तापस्य किंवा प्रतिभेविषय आमका वास्तविक कांयी माहिती मेळना, जशें कांय अज्ञात आसचांतु ते सदा प्रयत्न करताले. प्राचीन कालाचे लेखकांली ही प्रथा सर्वश्रुत आस्सा. वेद-अुपनिषदांचे ऋषीमुनि कोण? गांधार, सांचि, भारहूत स्तूपांचो निर्माण कोणें केले? अजंता, वेरुळ गुहेंतु कोणें ते असामान्य कलाकृति कोत्रायिलि? कोणें दक्षिणेंतुली भव्य मंदिरं अुभारायिलीं? महाभारताचो लेखक कोण? रामायण निर्माण कोणें केलें? कालीदास, चाणक्य, भवभूती हे सर्व वस्तुस्थितितुले व्यक्ति कीं कल्पनेचे सागरांतुले अनिश्चित मोति? हे आणि असले अनेक प्रतिभावान लेखक, कवी, कलाकार आपण्याले जाज्वल्य कलाकृतिचे मागशीं भारतीय संस्कृतीचे अुदयकालाचे अस्पष्ट वातावरणांतु निपून बसल्याचि.

तांगेले कर्तुत्वाचे प्रभावान तांगेले जीवन रहस्यमय कथा-जीवनांन सालंकृत जात कल्पनेचे आविष्कारान वर्णित जाल्यां.

शतकत्रयी-नीति, शृंगार, वैराग्य-हांचो लेखक भर्तृहरिलें जीवन सुद्धां अितलेंचि रहस्यान भरिलें आस्सा. आणि ह्रांगेले जीवनाविषय आम्मि अितलेंचि जाणताचि, जितले आम्मी व्यास, वाल्मिकी, कालीदास किंवा अितर कला-कारांले जीवनाविषय जाणत अुरत. त्या कारणान स्वतःचे नांवाबद्दल आसचि ही प्राचीन लोकांली अनास्था संशोधकांले तार्किक बुद्धी सतत तीक्ष्ण दवरचांतु अुपयुक्त ठरल्या.

भर्तृहरीले विषय आणि अेक प्रश्न अुद्‌भवता. आणि तो म्हळ्यारि, ह्या शतकत्रयींचो तो लेखक कीं केवल संग्रहक? कारण ह्या श्लोकांचो जरी तो लेखक म्हण्णु प्रसिद्ध आस्सा, तरी ह्या संग्रहांतु आमका पंचतंत्रांतुले, कालीदासाले शाकुंतल नाटकांतुले, विशाखादत्ताले मुद्राराक्षस नाटकांतुले संदर्भ, तंत्राख्यायिकेंतुले श्लोक मिश्रण जालिले दिसताचि. त्याचिप्रमाणें श्रृंगारशतक अेक सोडल्यारि दुसरे दोन-नीती आणि वैराग्य-हांचि सुसंबद्ध रचना नासताना तांतुले विचार त्रोटक आणि विस्खळित दिसताचि. शिबाय अुपलब्ध प्रतिंचो अभ्यास केलिल्यांक प्रत्येक प्रतींतु चड-अुणें श्लोक दिसून आयल्याचि. ह्या कारणान संशोधकाले मनांतु अेक शंका येत्ता कीं भर्तृहरी हो वस्तुस्थितिंतु अेक अैतिहासिक व्यक्ति नासताना कालानुसार ह्या नांवाचे चारीबाजून श्लोकांचे संग्रह

तय्यार जात गेल्या. जाल्यारि असलो विचार करचें सुद्धां अयोग्य दिसता. कारण व्यासान रचयिले महाभारतांतु सुद्धां श्लोकांचो भर पडता. आणि कालीदासाले जीवन जरी अगम्य आस्सा, तरी तागेले जीवनाचे अस्तित्वा विषय शंका दवरचे कोणांकयी जरुर दिसलें ना. म्हण्णुं अविरत अभ्यास करनुं संग्रंह केलिले ग्रंथांक प्रस्तावना बरयताना श्री कोसंबी म्हणताचि, " The remarkable fact that inspite of the extraordinary variation from version to version the total impression produced by any of them is about the same. A certain type of stanza came to be attracted to the collection ..... the seed must necessarily have been present in the original collection to permit such growth." (दामोदर ध. कोसंबी– भर्तुहरीविरचित शतकत्रयादि सुभाषित संग्रह : पु. ८१ ).

अेक दृष्टीन पळयिल्यारि, भर्तुहरी ही अेक अैतिहासिक व्यक्ति जावनु अुरचें सुद्धां अगत्य दीसना. तरीयी मानवाले मन वस्तुस्थितो जाणिले शिवाय शांत जायना. पोरण्यांतु पोरणी अुपलब्ध प्रति सुमार अिकराव्या किंवा बाराव्या शतमानांतु मेळता. जाल्यारि ग्रंथरुपान नासल्यारीयि ही कृति ताज्जे पयले जनमानसांतु अुपलब्ध आसल्यारि आश्चर्य न्हंय. अुदाहरणार्थ ई-चिंग नांवाचो चीनी प्रवासी आपण्याले बौद्धमताचे वर्णनेंतु भर्तुहरी नांवाचे व्याकरणकाराविषय अुल्लेख करता. ह्या भर्तुहरीन न केवल वाक्यपदीय ग्रंथ बरयलें, तर नीती आणि

व्याकरणविषय अेक दुसरो ग्रंथ बरयलो, म्हण्णुं तो सांगता. हो भर्तुहरी अि. स. ६५० वर्सां निधन पावलो अश्शी नमूद आस्सा. हो लेखक बौद्धमताचे सन्यासी जीवना-विषय वारंवार आस्थाय दाखयतालो. अेक पटे भिख्खु जावचे अिच्छेन बौद्ध विहारांतु वच्चे पयले भर्तुहरीन आपण्याले शिश्याक विहाराचे भायर रथ तयार दवरचाक सांगले. कारण जर तागेले मन परत चंचल जाल्लें तर त्या रथांतु तो परत येवू शकत. ई-त्सिग भर्तुहरीलो अेक श्लोकाचो अुल्लेख करनुं आपण्याले अस्थिर मनाविषय बरयिलें सांगता. जाल्यारि शतकत्रयी वयल्यान दिसून येत्ता की भर्तृहरी बौद्ध मताचो अनुयायी नासताना शैवमताचो आस्सून वेदांती आशिल्लो. शिवस्तुतीचे कित्येक श्लोक ह्या शतकत्रयींतु मेळताचि. शिवाय तत्कालीन धार्मिक जीवनांतु बौद्ध आणि शैव संप्रदायेंत अितलो वैमनस्क आसनाशिल्लो ज्या कारणान शैव पंथी बौद्ध विषय मान दवरचो ना. अुदाहरणार्थ हर्षान सुद्धा "नागानंद" ग्रंथांतु बुद्धाक आणि रत्नावलींतु शिवाक स्तुति केलिलें दिसता.

दुसरे अेक दंतकथेवयल्यान, भर्तुहरी हो राजदरबारां-तुलो अेक सरदार म्हण्णु दिसता. राजाले सेवेंतु आसचो अनादर आणि असंतोष तो अनेक श्लोकांतु व्यक्त करता. जाल्यारि सर्वसामान्य मानिलि दंतकथा म्हळ्यारि भर्तुहरी हो विक्रमादित्य राजालो भावु आस्सून संसाराचो असह्य तिटकारो आयिल्यान राज्य त्याग करता आणि वैराग्य आपणायता. ही दंतकथा नीतिशतकेंतुले अेक श्लोकावयल्यान

बांदिलि आस्सा.

याम् चिंतयामि सततं मयि सा विरक्ता ।
साप्यन्यमिच्छति जनं स जनोऽन्यसक्त: ।।
अस्मत्कृते च परितुष्यति काचिदन्या: ।
धिक् तां च तं च मदनं च इमां च मांच ।।

--हांवु ज्या स्त्रीक मेगेलो प्रेयसो म्हण्णु मानता, तिगेलो प्रियकर हांवु नासताना दुसरोचि कोणी आस्सा. आणि ती ज्या मनुष्याक आपण्यालो प्रियकर मानता तागेली प्रेयसीतर ती नासून दुसरीचि आस्सा. माक्का तिसरीचि आपण्यालो प्रियकर समजता. सारांश, तिक्का, ताक्का, मदनाक आणि माक्का धि:कार आसु. ही दंतकथा अश्शी आस्सा. भर्तृहरीक सुमन्त नांवाचे योगीन अेक "अमरत्वाचे फल" दिलें. भर्तुहरीन तें फल प्रेमान आपण्याले बायलेक दिलें. जाल्यारि थोडे दिसान तें फल अेक नायकीणीकडच्यान परत सुमन्ता-कडेन आयलें. सुमन्तान तें परत भर्तुहरींक हाड्नु दिलें. हें सर्व पोळोवनु भर्तुहरीक आश्चर्य जाल्ले. त्या नायकीणीक धाक दीवनु ते फल तिगेल्याग्गी कश्शी आयलें म्हण्णु विचारलें. तेन्ना अश्वपालाकडचान तिक्का भेट म्हण्णु तें मेळ्ळे म्हण्णु समझलें. आणि जेन्ना अश्वपालाकडेन चौकशी केल्ली तेन्ना कळनु आयलें की स्वत: राणीन, जी त्या अश्वपालाली प्रेयसी आशिल्ली, तें फल ताक्का प्रेमभेट म्हण्णु दिलिलें. हें सर्व पोळोवनु भर्तुहरीले मनांतु अेक प्रकारचि

अुद्विग्नता आयिल्यान तो सर्व त्याग करनुं रानांतु गेलो.

जाल्यारि हे सर्व काण्यो कृत्रिम आणि काल्पनिक; अैतिहासिक नांचि. कारण श्लोकांतुले अेक संदर्भावयल्यान प्रख्यात व्यक्ति विषय दंतकथा जन्माक येवचे स्वाभाविक. वाल्मिकी, व्यास, कालिदास किंवा चाणक्यांविषय हें आम्मीं अनुभवल्या-भर्तुहरी विषय हीचि रीति, प्रथा चालू आसचे सहज.

संस्कृत ग्रंथांतु पयलें ग्रंथ पाश्चात्य भाषेंतु अनुवाद जावचें म्हळ्यारि भर्तुहरीले शतकत्रयी. डच् मिशनरी अब्रहाम रोजर हाणें नीति शतक अेक पद्मनाभ नांवाचें ब्राह्मणमुखांतर समजूवनुं घेवनुं ताणें आपण्याले पुस्तक "De open Deure tot Let verborgen Heydendon" हांतु प्रकाशनाक हाडले. ह्या पुस्तकावयल्यान नंतर नीतिशतक जर्मन भाषेंतु परिवर्तन पावली.

भर्तुहरीले शतकत्रयींक अितलें कांय प्रसिद्धी मेळ्ळी कीं, त्या धरतीरि दुसरे लेखक आपण्याले काव्य बोरोवचाक लागले, जरी भर्तुहरीलें कर्तुत्व ते संपादन करचाक अर्ह जाल्ले नांचि. भर्तुहरींले नीतिशतकाचे भाषाशैलीवयरी काश्मीरचो कवी भल्लट, जो शंकरवर्मन राजालो (८८३–९०२) राजकवी आशिल्लो, हाणें आपण्याले "भल्लटशतक" बरयलें. त्याचि प्रमाणें तागेले वैराग्यशतकाचे धर्तिरी काश्मीरचेचि सिल्हाणान शांतीशतक रचयलें. टक राजघरा-

ण्याचे नागराजान भावशतक बरयलें. गुमाणी म्हळ्ळे लेखकान अुपदेशशतक म्हण्णुं रचयलें.

ह्या प्रकाराचे अनुकरणेन कवीलें प्रभृत्व, काव्यप्रतिभा लौकिक जनांतु वाढता आणि तें योग्यचि. कारण संस्कृत भाषेवयले भर्तहरीलें प्राविण्य आणि त्या भाषेचें मूल सजीवत्व ह्या दोग्गांचे मिलनान शतकत्रयीसारखे अमूल्य कृति भारताक प्राप्त जाल्ली. कीथ ह्या पाश्चात्य लेखकाले मतान "Bhartrharis poetry exhibits Sanskrit to the best advantage. . . . .

In Bhartrhari each stanza normally can stand itself and serves to express one idea, be it a sentiment of Love, or resignation or of Policy, in complete and daintily finished form. The extra-ordinary power of expression which Sanskrit possesses is seen here at its best." (A. B. Keith– A History of Sanskrit Literature p. 178)

काव्यशोभेचे सर्व प्रकार भर्तुहरीन ह्या शतकांतु वापरल्याचि. अुदाहरणार्थ शार्दूलविक्रीडित, शिखरिणी, वसंततिलक, स्रगधर गिती, आर्य छंद वापरल्याचि. त्याच्चि– प्रमाणें मालिनी, हरिणी, मंदाक्रान्ता, द्दत विलम्बित सुद्धां वापरल्याचि.

दंतकथेचो विषय जरी वेगळो वेगळो आसल्यारीयि, अुपलब्ध संदर्भावयल्यान मानचाक हरकत ना कीं, भर्तुहरी राजपुत्र नासताना दरबारांतुलो अेक निष्णात कवी आशिल्लो.

शतकांतु अनेक संदर्भांतु राजदरबार आणि राजालि सेवेचि अवहेलनीय परिस्थिति वर्णित जाल्या. त्याचि प्रमाणें राजा आणि कवीले संबंधांतुलें अनेक असमाधानकारक प्रत्यय व्यक्त जाल्याचि. राजालें वैभव आणि ज्ञानीलि गरीब परिस्थिति भर्तुहरीक परत परत मनाक टोचतालि.

शतकत्रयींतुले विचार बर्तुहरीले यौवनावस्थेंतले न्हंय. तो परत परत क्षुल्लक विषयांचेरि विचार करता. आपण्याले यौवन व्यर्थ जीवनांतु व्यतीत जालिल्यान खेद करता. यौवनान अतुंब भरिले युवती विषय वृद्धावस्थेचे हावरे पणान विचार करता. आपण्याले विद्वत्ता आणि कवि गुणांनि हांचो विचार करनुं मन समाधान करता. जाल्यारि अंतरमनांतु तो जाणता कीं आपण्याले यौवनांतुले जीवन व्यर्थ गेले. त्याचि कारणान ताणें कमयिले ज्ञान आणि व्यर्थ व्यतीत केलिले जीवनांचे मध्यें तागेले विचार गोंधळिले दिसताचि.

हिंदू मानवाले जीवन धर्म, अर्थ, काम मोक्षसाधनेंतु व्यतीत जात्ता. भर्तुहरीले शतकत्रयी हांचोचि विचार करता. शृंगार शतकांतु कवीले तारुण्यांतुले भावनांचो आवेग दिसून येत्ता. सुंदर स्त्रीले रेखीव वर्णन, तांगेले मादक कटाक्ष मोहक हाल चाल, निसर्गांतुले ऋतुंचे आकर्शक परिणाम- ह्या शतकांतु मेळता. जाल्यारि श्लोक जास्त करनुं स्त्रीले केवल वैषयिक वर्णनेंतु आलंकृत जात नासताना, तांतु अर्थ गांभीर्य सखोल मेळता. मानवाले कामजीवन क्षुल्लक अूर

नासताना मानवजीवनाचे मध्यबिंदूंत विषयवासनेन, मोह, आभिलाशा, क्षणिक देहसुख, विरहदुःखाचो समावेश करनुं हाडल्या. आणि मानवी जीवनाचे यथार्थज्ञान घेवचे अिच्छा करतल्यान ह्या जीवनपथाचो सारासार विचार करचे योग्यचि आस्सा.

स्त्री ही विषयवासनेंचे प्रतीक जावनुं भर्तुहरीले श्लोकांतु प्रगटायता. स्वर्गसुखाचो भोग घेवचाक आमंत्रण दिवची तीच्चि संसाराचे दुःखमय सागरांतु बुडोवचाक प्रवृत जात्ता. ह्या श्लोकांतु श्रृंगार, रतिसुखांचे मादक सुख अति आल्हादकर आसल्यारि स्त्रीविषय व्यक्त जावची भर्तुहरीली निर्भत्सना सुद्धा अितलीचि तीव्र आस्सा.

भर्तुहरी अक प्रतिभावान कवी आस्सा. जो आपण्याले मोहक शद्वचित्रांनि, भाषामाधुर्यान, मोहक कल्पनाचित्रांनि, श्रृंगारिक अविश्कारांनि, मानवाले वैषयिक जीवन रंगयता. रतिभाव न केवल स्त्रीले हालचालींतु दिसता, तर निसर्गाचे प्रत्येक ऋतु बदलावणेंतु व्यक्त जात्ता. नाद, रंग, आणि गंध हें ह्या प्रवृत्तींतु सहज साथ दित्ताचि. स्त्री हें कामदेवाले श्रेष्ठ अस्त्र म्हण्णुं मानल्यारीयि निसर्गाचे मनोरम्य आकर्षण तागेले सदृढ मित्र आस्सा. नव्यान फुलचे फुलांचो मादक सुवास जेन्ना पावुस आणि गंधांचे चित्ताकर्शक वाऱ्यांतु मिश्रण पावता, जेन्ना मोर आणि कोकिळेचो चीत्कार चारी दिशान दुमदुमता, जेन्ना चंद्रिमा आपण्याली शीतल किरण सर्वत्र पसरायता, तेन्ना मनहरचे हरणीले—स्त्रीलें-साम्राज्य अुदयाक

येत्ता. आणि स्त्री न केवल हाडामासाचि प्राणीमात्र अूर नासताना ती सर्वमनांचि आधीन करचो अप्सरा जात्ता.

मनुष्य जरी ह्या आधीनतेचि अवस्था जाणता तरी तो परत परत त्या मायाजालांतु फसता. कदाचित् ह्या प्रकार जगचे स्थितीकचि जीवन म्हणत अुरत. आणि ह्या जीवनांचो माप जेन्ना काल घेत्ता, तेन्ना मदनाले मधुर मोहक कालायन क्षणिक आणि क्षुल्लक दिसता.

जेन्ना ह्या प्रकार कर्मांचो जमाखर्च काळाचे कालाय–नांतु घेवचो अुरता, तेन्ना मानवाले जीवनांचे ध्येय दुसरेचि दृष्टीकोणांतुल्यान सुटूनची, संसारचक्रांतुल्यान मुक्त जावचो हव्यास प्रत्येक मानव धरता. वास्तविक हिंदूधर्म म्हळ्यारि आचार–विचारांचो परिशीलन करचो रीति. हिंदू धर्म म्हळ्यारि विवेकाक आव्हाहन दिवचो मार्ग. मनुष्यान विवेक करका. नित्य–अनित्य, धर्म-अधर्म, सत्य–असत्य, श्रेय–प्रेय, नीति–अनिति, हांचे पृथक्करण आणि निवड करचें बुद्धीशक्तीक विवेक म्हणताचि. नित्य, धर्म, सत्य, श्रेय, नीति हें सर्व म्हळ्यारि मनुष्याले अंतिम आणि अविनाशि हित साधचे कल्याणकारक ध्येय. हेचि ध्येय भर्तुहरीन आपण्याले नीतिशतकांतु नजरेमुकार दवरले, जगाचि वास्तविकता आणि त्या कारणान मानवाले जीवनांतु येवची आतंकं, बंधनं तो जाणता. आणि अुद्योगशील अुदार, धैर्य, प्रामाणिक विद्याव्यासंगी गुणांचो तो गौरव करता.

वैराग्यशतकांतु भर्तुहरीलो हेतु दुसरोंचि आसता· हांतु भौतिक जगाचो कीळस येवनुं ब्रह्मस्वरुपांतु विलिन जावचाक साधक तळमळता. अरण्यांतुले निर्भय शांत वातावरणांतु जीवचि अिच्छा ताक्का येता. थंयचे नदी–तीरावयरि वैराग्य वृत्तीन अीश्वराली आराधना करचि दिवसाचि वाट तो पळयता· शृंगार शतकाप्रमाणें वैराग्य शतकांतु सुद्धां निसर्गांतुले चिन्ह ताक्का रूपक म्हण्णु मेळताचि. निसर्गांतुलें शांत सात्विक वास्तविकतेंतु तो यथार्थ ज्ञानाचो शोध करता. ह्या शोधांतु योग साधना, ज्ञान विवेकांचे आचरण माध्यम ठरता. ह्या सर्वांतु भर्तुहरी हिंदू अध्यात्म जीवनाचें ध्येय परिपूर्णतेक हाडता· वास्तविक ह्या श्लोकांतु अश्शी काय ना जे अेक ना दुसरे रीतिन वेदोप–निषदां तुदृष्टीक येना. जाल्यारि भर्तुहरीलि भाषा कौशल्य सुसंगत, अर्थदृष्ट्या सपन्न आशिल्यान हो सदेश अकृत्रिम आणि अयथार्थ दिसना.

जेन्ना मनुष्य अज्ञानांतु आशिल्ले कारणान कामदेवाले मोहमायाजालांतु फसता तेन्ना ताक्का सर्वबाजून हजार हरिणाक्षि दिसताचि. आणि जेन्ना ह्या दृष्टींचे आधीनतेन आकर्शणेन तो अलिप्त जात्ता, तेन्ना तागेले अिंद्रियांचेरि ताबा आसता आणि तागेली दृष्टी त्या अविनाशी ब्रह्मत्वादिशेन स्थिर जात्ता.

शतकत्रयींतु भर्तृहरी काम, अर्थ, धर्म आणि मोक्ष साधनेचो यथार्थं विचार करता. सर्वांचो जरी जागो

जीवनांतु नक्की ठरिलो आस्सा तरी अखेरिक प्रत्येक साधना अपरिपूर्ण भासता. कामिनी आणि कांचन मनाक काळजी हाडता; नीति आणि ज्ञान विरळ आस्साचि आणि वस्तुस्थितींतु तांचो पुरस्कार जायना. मनाचि शांततेक सदा विषयवासनेचो मोह भय आसता. भर्तृहरी सांसारिक आणि वैराग्यांतुले जीवनाविषय असमाधानी आसता. तरी अखेरिक मानवाले सत्यासत्य जीवनाचे, बहुरंगी जीवनाचे वास्तविकतेंतु तो आपण्याले तनमन अर्पण करता.





चूडोत्तंसितचारुचन्द्रकलिकाचञ्चच्छिखाभासुरो ।
लीलादग्धविलोलकामशलभः श्रेयोदशाग्रे स्फुरन् ॥
अंतःस्फूर्जदपारमोहतिमिरप्राग्भारमुच्चाटयन् ।
चेतःसद्मनि योगिनां विजयते ज्ञानप्रदीपो हरः ॥ १ ॥

–स्फुरित पावचे चंद्र कलेन द्वैदीप्यमान, शिरोमूषणां तसले शिखाधारण करचो, कामरुपी पतंग सहज जाळून काडचो, पुण्य कारक वस्तूंमुकारि केन्नांयी प्रकाशित जावचो, अंतर्गत अुरचे मोहरुपी अंधकाराक नाश करचो, आणि केवल ज्ञानानचि प्रकाशमान जावचो जो हररुपी दिवो, तो योगीले चित्तरुपी घरांतु सतत जळूं.



बोद्धारो मत्सरग्रस्ताः प्रभवः स्मयदूषिताः ।
अबोधोपहताश्चान्ये जीर्णमंगे सुभाषितम् ॥ २ ॥

–विद्वान लोक मत्सरान पिछाडल्याचि; श्रीमंत गर्वान भरल्याचि. आणि अुरलेले, अज्ञानान कुरडे जाल्याचि. असले प्रसंगी बरी सुभाषितं त्या जाग्यारीचि फुकट वत्ताचि.



न संसारोत्पन्नं चरितमनुपश्यामि कुशलम् ।
विपाकः पुण्यानां जनयति भयं मे विमृशतः ॥
महद्भिः पुण्यौघैश्चिरपरिगृहीताश्च विषया ।
महान्तो जायन्ते व्यसनमिव दातुं विषयिणाम् ॥ ३ ॥

–संसारांतु कसलेंयि सुख उरत अश्शीं माका दीसना. पुण्य कर्मांचें फलांविषय विचार करचो म्हळ्यारि माका भय दिसता. कारण मस्त काळांपासून भोगीलें विषय सुख, विषयी जनांक दुःख दिवचाक, पुण्यकर्मांनि वाढत वत्ता.



भ्रान्तो देशमनेकदुर्गविषमं प्राप्तं न किंचित्फलम् ।
त्यक्त्वा जातिकुलाभिमानमुचितं सेवा कृता निष्फला ॥
भुक्तं मानविवर्जितं परगृहे साशंकितं काकवत् ।
तृष्णे जृम्भसि पापकर्मनिरते नाद्यापि संतुष्यसि ॥ ४ ॥

–कठीण रस्ते आसतानां सुद्धां अनेक देश फिरलो; जात आणि कुळाचो अभिमान सोडनुं दुसऱ्यांलि सेवा केल्ली.

निर्लज्जपणान दुसऱ्यांले धरांतु मानापमान पळयनासताना कावळोसो जेवलो. तरीसुद्धां कसलोयी उपयोग जाल्लो ना! जाल्यारि आशे, तूं अजून कसल्याक तृप्त जायना?



उत्खातं निधिशङ्कया क्षितितलं ध्माता गिरेर्धातवो ।
निस्तीर्णः सरितांपतिर्नृपतयो यत्नेन संतोषिताः ॥
मन्त्राराधनतत्परेण मनसा नीताः श्मशाने निशाः ।
प्राप्तः काणवराटकोपि न मया तृष्णेऽधुना मुञ्च माम् ॥५॥

—जमीनीतु पुरिलें धन मेळतालें म्हण्णु जमीन खंडून पळयली· पर्वतांतुले धातु शोधून पळयले, समुद्रपर्यटन केलें. राजेलोकांक प्रयत्नान खुश केलें, मंत्रतंत्र करनु स्मशानांतु अनेक रात्रि काडल्ये तरी अेक फुटकी कवडी मेळीलि ना. म्हणून आशे आत्ता तरी तू माक्का सोड.



खलोल्लापाः सोढाः कथमपि तदाराधनपरै- ।
र्निगृह्यान्तर्बाष्पं हसितमपि शून्येन मनसा ॥
कृतश्चित्तस्तम्भः प्रतिहतधियामञ्जलिरपि ।
त्वमाशे मोघाशे किमपरमतो नर्तयसि माम् ॥ ६ ॥



—दुष्ट मालकाली कुसकी उत्रं सहन करनु सेवा केली. मनातु रण्णें आयल्यारीयि तें आवरनु धरलें. मनांतु सुख नासल्यारीयि भायर हांसून दाखयलें. नीच लोकांले मन धरलें, हात जोडले, पदर पसरनु पाय पडलो. जाल्यारि सर्व निष्फळ! अश्शी

आस्सून आशे, आणखी माक्का कित्याक नाचयता?



अमीषां प्राणानां तुलिततबिसिनीपत्रपयसाम् ।
कृतं किन्नास्माभिर्विगलितविवेकैर्व्यवसितम् ॥
यदाढ्यानामग्रे द्रविणमदनिःसंज्ञमनसाम् ।
कृतं म्लानव्रीडैर्निजगुणकथापातकमपि ॥ ७ ॥

—कमलाचे पानावयले जलबिंदू प्रमाणें हें आयुष्य क्षणभंगूर आस्सा; जाल्यारि ताज्जे विषय आमगेले तसले अविचारी मनुष्यान कसलें म्हण्णु करचें दवरल्यां? द्रवरुपी दारुन धुंद जालिले धनिकामुकारी आत्मस्तुती तसलें महापातक सुद्धां आम्मी केलें.



भोगा न भुक्ता वयमेव भुक्ता-
स्तपो न तप्तं वयमेव तप्ताः ॥
कालो न यातो वयमेव याता-
स्तृष्णा न जीर्णा वयमेव जीर्णाः ॥ ८ ॥

—आम्मी भोग भोगिले नांचि, जाल्यारि आमगेले जीबावयरि लोकांनचि सुख भोगलें. तप आमगेले हातांतुल्यान जाल्लें ना, जाल्यारि आम्मी मात्र संतापलो. काल संपलोना; जाल्यारि आम्मी मात्र संपले. आशा म्हांतारे जाल्ली नांचि, जाल्यारि आम्मी मात्र म्हांतारे जाल्ले.

वलिभिर्मुखमाक्रांतं पलितैरंकितं शिरः ।
गात्राणि शिथिलायंते तृष्णैका तरुणायते ।। ९ ।।

–तोंड सुरकुत्यानि भरिलें आस्सा, मात्यारि धव्वे केसांनि वसाहत केल्यां, अवयव शिथिल जात आस्साचि. जाल्यारि आशा मात्र अजून तरुण जात आस्सा.



निवृत्ता भोगेच्छा बहुपुरुषमानो विगलीतः ।
समानाः स्वर्याताः सपदि सुहृदो जीवितसमाः ।।
शनैर्यष्ट्युत्थानं घनतिमिररुद्धे च नयने ।
अहो दुष्टः कायस्तदपि मरणापायचकितः ।। १० ।।

–भोगाचि अिच्छा गेली, पुरुषत्वाचो अभिमान गेलो, समवयस्क लोक स्वर्गाकि गेल्ले, काडीचे आधारारि सावकाश अुब राबचें पडता. दृष्टी गेली आणि देहांतु अनेक दोष निर्माण जालिले आस्साचि. जाल्यारि आश्चर्यं कितलें! मरणाचे भय मात्र अजून वचना.



आशा नाम नदी मनोरथजला तृष्णातरंगाकुलाः ।
रागग्राहावती वितर्कविहगा धैर्यद्रुमध्वंसिनी ।।
मोहावर्तसुदुस्तराऽतिगहना प्रोत्तुंगचिन्तातटी ।
तस्याःपारगता विशुद्धमनसो नन्दन्ति योगीश्वराः ।। ११ ।।

–आशा जशें अेक नदी आस्सा. मनोरथ ताज्जें उदाक, तृष्णा ताज्जे लाटा, विषयासक्ति हीं सिंसरी, अनेक वितर्क हे पक्षी, धैर्य जणुं अेक व्होड रुक. जाल्यारि ताक्का ही (नदी) अुलटून घालता. मोह हे भंवरे, आणि ताज्जे कारणान ही (नदी) दुस्तर जाल्या. चिंता हीच नदीचो बांध आस्सा. ह्या नदीचे पार गेलिले निर्मल मनाचे व्होड योगी धन्य जावनु आस्सात्ति.



अवश्यं यातारश्चिरतरमुषित्वाऽपि विषयाः ।
वियोगे को भेदस्त्यजति न जनो यत्स्वयममून् ॥
व्रजन्तः स्वातंत्र्यादतुलपरितापाय मनसः ।
स्वयं त्यक्ता ह्येते शमसुखमनंतं विदधति ॥ १२ ॥

–विषयं कितले कष्टान मेळयिले आसल्यारीयि आणि जास्त काल पर्यंत लाग्गी क्षासल्यारीयि अखेरींक तीं आमकां सोडनुं वत्ताचि. अिंद्रियांचेरी ताबो दवरनुं आम्मीचि विषय सोडनुं दिवचो, हो अेक वियोग. आणि विषयांनिचि अिंद्रियांक सोडनुं दिवचें, हो दुसरोचि प्रकाराचो वियोग! दुसरे प्रकाराचे वियोगांतु आमकां भयंकर दुःख जात्ता. आणि पयले वियोगान आनंद प्राप्ती जात्ता. म्हण्णुं शास्त्रांतु सांगिल्ले प्रमाणें शमदमादी साधनान आम्मी पयले प्रकारचे योग संपादन करका.



ब्रह्मज्ञानविवेकनिर्मलधियः कुर्वन्त्यहो दुष्करम् ।
यन्मुञ्चन्त्यपि भोगभागपि धनं ह्येकान्ततो निस्पृहाः ।।
संप्राप्तानि पुरा न सम्प्रति न च प्राप्तौ दृढप्रत्ययो-
वाञ्छामात्रपरिग्रहाण्यपि वयं त्यक्तुं न तानि क्षमाः ।।१३।।

–ब्रह्मज्ञानान ज्यां लोकांलि बुध्दी विवेकी जाल्या असले लोक जास्त कठीण कामं करताचि. सर्व विषयांचे साधन जे दृव्यरुपी आस्सा, ताज्जो मोह ते सोडनु दित्ताचि आणि निस्पृह जात्ताचि. जाल्यारि आम्मीं मात्र आत्तां जे धन ना, मागशी सुध्दां नाशिले आणि मुकारी सुध्दां मेळचि खात्री ना ताज्जी निष्कारण आशा करत आस्साति ! ज्ञानींलोक धनाची अिच्छा करनांचि आणि मेळ्यारीचि ताज्जो सदुपयोग करताचि. अज्ञानी लोक ताज्जो हव्यास धरताचि आणि आशेन बंधन पाविले अुरताचि !



धन्यानां गिरिकंदरेषु वसतां ज्योतिः परं ध्यायताम् ।
आनन्दाश्रुकणान्पिबन्ति शकुना निःशंकमङ्केशयाः ।।
अस्माकं तु मनोरथोपरचितप्रासादवापीतट-
क्रीडाकाननकेलिकौतुकजुषामायुः परं क्षीयते ।। १४ ।।

–पर्वताचे गुहेंतु बसून परमेश्वराचें चिंतन करचे जे साधु आस्साचि, तांगेले परमेश्वराले पायी चित्त लाग्गून तांका अेक प्रकाराचो आनंद मेळता. आणि तांगेले दोळ्यांतुल्यान आनं-

दाश्रृ जे येत्ताचि ते मांडिर्वरि निर्मयान बसून पक्षी पित्ताचि. आणि ह्या प्रकार ध्यानांदांतु तांगेले दिवस वत्ताचि. आम्मीं मात्र मनोरथ रचयत बसल्याचि कीं, "मुकारी हांवु सुंदर घर बांदतालो बांयी खणीन, पुष्करणीं करतालों, क्रीडा करचाक बागबगीचा करनुं नाना प्रकाराचें सुख भोगीन." असले विचारांतूचि दिवस वत्ताचि आणि आयुष्य सर्व संपता.



भिक्षाशनं तदपि नीरसमेकवारम्
शय्या च भूः परिजनो निजदेहमात्रम् ॥
वस्त्रं सुजीर्णशतखंडमयी च कंथा ।
हा हा तथापि विषयान्न जहाति चेतः ॥ १५ ॥

–भीक मागून चव नाशिल्लें अन्न जरी खावचें पडता, जमीनी वयरि निजचें पडता, वस्त्र म्हण्णु शंभर छिद्राचि गोधडी पांघुरचि पडता, तरी मन मात्र विषयांचो त्याग करना.



स्तनौ मांसग्रन्थी कनककलशावित्युपमितौ ।
मुखं श्लेष्मागारं तदपि च शशाङ्केन तुलितम् ॥
स्रवन्मूत्रक्लिन्नं करिवरशिरःस्पर्धि जघनम् ।
मुहुर्निन्द्य रूपं कविजनविशेषैर्गुरु कृतम् ॥ १६ ॥

--स्त्रीयांवयरि जें पुरुष मोहित जात्ता तसले तांचे रुप कितले असह्य आसता, तें पळया. मांसाचे गोळें जे स्तन जावनुं

आस्साचि, तेचि सुवर्णकलश म्हणताचि! तोंड म्हळ्यारि लाळ आणि थूकीचे घर; ताक्का दित्ताचि चंद्राचि अुपमा! मूत्रादि गलिच्छ चीजांनि भरिलो तो कटिपुरोभागाक गजराजालि मस्तकाचि स्पर्धा करचि अुपमा! सारांश म्हळ्यारि अतिशय निंदेक पात्र जावनु आशिल्लें ह्या स्त्रीरुपाक कवींनि बेसुमार अुपमा दीवनु महत्व हाडयलां.



चर्मखंडं द्विधा भिन्नमपानोद्गारधूपितम् ॥
ये रमन्ति नरास्तत्र कृमितुल्याः कथं न ते ॥ १७ ॥

--द्विधा जालिलें आणि आमान वायुचे रोगान दुर्गंधित आशिले चामडयाचे तुकडयारि जे पुरुष अितले भुलताचि, ते कनिष्ठ किडे न्हंय तर कोण?



अजानन्माहात्म्यं विशति शलभस्तीव्रदहने ॥
स मीनोऽप्यज्ञात्वा बडिशयुतमश्नाति पिशितम् ॥
विजानन्तोऽप्येते वयमिह विपज्जालजटिला- ।
न्नमुञ्चामः कामानहह गहनो मोहमहिमा ॥ १८ ॥

--जळचे ताप जाणत नासताना पतंग अुज्ज्यांतु अुडता; मासळी अज्ञानाचे गाळांतले मांस खावचाक येत्ता, आणि प्राण गमोवनु बसता, जाल्यारि आम्मीं जास्त शाणे आस्सून सुध्दां विपत्ति जाळेंतु आशिल्ले ह्या विषयबंधनांतु अडक-

ताचि, हें आश्चर्य न्हंयवे ?



तुङ्गं वेश्म सुताः सतामभिमताः संख्यातिगाः सम्पदः ।
कल्याणी दयिता वयश्च नवमित्यज्ञानमूढो जनः ।।
मत्वा विश्वमनश्वरं निविशते संसारकारागृहे ।।
सदृश्य क्षणभंगुरं तदखिलं धन्यस्तु संन्यस्यति ।। १९ ।।

--मेगेलें व्होड घर, शिकलेलो पूत, असंख्य संपत्ती, सुशील पत्नी आणि मेगेलें तरुण वय---हीं सर्व चिरकाल टीकताली, ह्या समजूतीन संसाररुपो कारागृहांतु मनुष्य घुसता. जाल्यारि जो तत्वज्ञानी हें सर्वं क्षणभंगूर म्हण्णुं मानून सर्व परित्याग करता, तोचि धन्य.



दीना दीनमुखैस्तथैव शिशुकैराकृष्टजीर्णाम्बरा ।
क्रोशभ्दिःक्षुधितैर्निरन्नविधुरा दृश्येत चेद्नेहिनी ।।
थाञ्चाभङ्गभयेन गद्गदगलत्त्रुटयद्विलीनाक्षरम् ।
को देहीति वदेत्स्वदग्धजठरस्यार्थे मनस्वी जनः ।। २० ।।

--दीन, भूकेन तडफडचि चेर्डुंवं जीर्णवस्त्र हातांतु धरनुं जेवणाखातीर ज्या आवयक ओढत आस्साचि, जी अन्न नाशिल्यान व्याकुळ जाल्याचीं, असले बायलेक पोळोवनुं खंचो तो शाणो मनुष्यु आपण्याक अपमान जायत म्हणगुं ह्या दुष्ट पोठासाठीं 'दी' म्हणचो ना?

अभिमतमहामानग्रंथिप्रभेदपटीयसी ।
गुरुतरगुणग्रामाम्भोजस्फुटोज्ज्वलचन्द्रिका ॥
विपुलविलसल्लज्जावल्लीवितानकुठारिका ।
जठरपिठरी दुष्पूरेयं करोति विडम्बनम् ॥ २१ ॥

--अतिशय प्रिय अश्शी आशिल्ले अभिमानाक मारची सद्गुणरुपीं कमळं सुकोवची, शोभिवंत आणि विस्तृत जशीं आशिल्ले लज्जारुपी वेली तुंटून काडची कुऱ्हाड म्हळ्यारि केन्नांयी न भरची आणि लोकांलो अुपहास करची पौटाची खांड म्हणयेत !



पुण्ये ग्रामे वने वा महति सितपटच्छन्नपालीं कपाली ।
मादाय न्यायदर्भद्विजहुतहुतभुग्धूम्रोपकण्ठम् ॥
द्वारं द्वारं प्रवृत्तो वरमुदरदरीपूरणाय क्षुधार्तो ।
मानी प्राणीं स धन्यो न पुनरनुदिनं तुल्यकुल्येषु दीनः ॥ २२ ॥

–जो मनुष्य भयंकर भूकेन व्याकुळ जालिल्यान गावांतु किंवा वनांतु धव्वे वस्त्रातग्गुं झांकिले आयदनांतुल्यान तपनिष्ठ आणि न्यायी ब्राह्मणाले घरांतु पोट भरचाक भीख मागता, तो अेकपटें परवडलो! जाल्यारि आपण्यासारखेची आशिल्ले लोकांतु दीनपणा दाखोवचें बरें न्हंय!



गङ्गातरङ्गकणशीकरशीतलानि ।
विद्याधराध्युषितचारुशिलातलानि
स्थानानि किं हिमवतः प्रलयंगतानि ।
यत्सावमानपरदिण्डरता मनुष्याः ॥ २३ ॥

--गंगेचे थंड अुदकान शीतल जालीं, की विद्याधरान चारु-शीलांतु बसून सेत्रन पावलीं? म्हृणूं कीं कित्ते हीं मानव दुसऱ्यांनी दिलिले अन्नावयरि आसक्त जावनु आस्साचि!



किं कन्दाः कन्दरेषु प्रलयमुपगता निर्झरा वा गिरिभ्यः ।
प्रध्वस्था वा तरुभ्यः सरसफलभृतोवल्कलिन्यश्चशाखाः ॥
वीक्ष्यन्ते यन्मुखानि प्रसभमपगतप्रश्रयाणां खलानां ।
दुःखोपात्तालपवित्तस्मयपवनवशान्नर्तितभ्रूलतानि ॥ २४ ॥

--पर्वतांतुले कंदमूळ संपलेवे? थंचे अुदाक आटलेंवे? कों रसाळ फल आणि वल्कल दिवची झाडं सुकलीं? अश्शीं नासतांना सुध्दां गर्वरुपी लोकांले तो तोंड पळयता.



पुष्पैर्मूलफलैः प्रिये प्रणयिनि प्रीतिं कुरुष्वाधुना ।
भूशय्यां नववल्कलैः कुरु तृणैरुत्तिष्ठ यामो वनम् ॥
क्षूद्राणामविवेकमूढमनसां यत्रेश्वराणां सदा ।
वित्तव्याध्यविवेकसंकुलगिरां नामापि न श्रूयते ॥ २५ ॥

--हे प्रिये, आजपर्यंत लोकांले हांजी हांजी केलिलें पूरो जाल्लें! आत्तां निर्मळ फळं, कंदमूल हांचेरी संतोष माननुं, वल्कलं परिधान करनुं, भूयींचि हांतुळ म्हण्णुं समजूनुं आम्मी असले वनांतु वच्यांकी जंय रोगग्रस्त धनपतीचें नांवसुध्दां आयकुवचें ना!



फलं स्वेच्छालभ्यं प्रतिवनमखेदं क्षितिरुहाम् ।
पयः स्थाने स्थाने शिशिरमधुरं पुण्यसरिताम् ।।
मृदुस्पर्शा शय्या सुललितलतापल्लवमयी ।
सहन्ते सन्तापं तदपि धनिनां द्वारि कृपणः ।। २६ ।।

--प्रत्येक वनांतु रसाळ फल आस्साचि, सर्वबाजून मधुर आणि थंड असले पवित्र नदीचें अुदाक मेळता, कोवळें वालीचे नाजूक आणि सुखकारक बिछाने पसरिले आस्साचि, अश्शीं आसतानां द्रव्यलोभी मनुष्य मूर्ख पैशेवाल्यांले दरवाज्या भायर दीन जावनुं निष्कारण दुःख कसल्याक भोगताचि?



ये वर्धन्ते धनपतिपुरः प्रार्थना दुःखभाजो ।
ये चाल्पत्वं दधति विषयाक्षेपपर्यस्तबुध्देः ।।
तेषामन्तः स्फुरितहसितं वासराणां स्मरेयम् ।
ध्यानच्छेदे शिखरिकुहरग्रावशय्यानिषण्णः ।। २७ ।।

--धनिकांले मनखुश करच्यांतुजे दीस व्होड प्रमाणे भासले, आणि अनेक विषय वासनेंतु मग्न जावजांतु जें दीस ल्हान दिसले, त्या सर्व दीसांचि याद हांवु पर्त्रवाचे गुहेंतु विस्तीर्ण शींळेचेरि हांतुळ करनुं हसत हसत करतांलौ.



भिक्षाहारमदैन्यमप्रतिहतं भीतिच्छिदं सर्वदा ।
दुर्मात्सर्यमदाभिमानमथनं दुःखौघविध्वंसनम् ॥
सर्वत्रान्वहमप्रयत्नसुलभं साधूप्रियं पावनम् ।
शंभोः सत्रमवार्यमक्षयनिधिं शंसन्ति योगीश्वराः ॥ २८ ॥

--भीक मागून हाडिले आहारावयरी चलचे, दैन्य नाशिल्लें, अविरत चलचें, मद, मत्सर, दुष्टपण नाश करचें, सर्व पृथ्वीरी सदा चलचें, श्रमरहित, साधा, पवित्र, अनिर्बंध आणि पुण्याचे अेकत्रित करचें योगीश्वर शंभूले जे सत्र आस्सा ते सत्यान प्रशंसनीय आस्सा.



भोगे रोगभयं कुले च्युतिभयं वित्ते नृपालाद्भयम् ।
मौने दैन्यभयं बले रिपुभयं रूपे जराया भयम् ॥
शास्त्रे वादभयं गुणे खलभयं काये कृतान्ताद्भयम् ।
सर्वं वस्तु भयान्वितं भुवि नृणां वैराग्यमेवाभयम् ॥ २९ ॥

--भोगाक रोगाचें, व्होड कुलाक पतन जावचें, द्रव्याक राजालें, मनाक दारिद्र्याचें, बलाक वैरीलें, रुपाक मरणाचें,

शास्त्राक वादाचें, गुणाक दुष्टाचें, आणि शरीराक मृत्युचें भय आसता. ह्या जगांतु केवल वैरागीक कसलेंचि भय ना.



आक्रान्तं मरणेन जन्म जरया यात्युल्वणं यौवनम् ।
सन्तोषो धनलिप्सया शमसुखं प्रौढाङ्गनाभिभ्रमैः ॥
लोकैर्भत्सरिभिर्गुणा वनभुवो व्यालैर्नृपा दुर्जनैः ।
अस्थैर्येण विपत्तयोऽप्युपहता ग्रस्तं न किं केन वा ॥ ३० ॥

जन्माक मरण मागशी लागल्यां, तारुण्याक म्हांतारपण; संतोषाक धनाचो लोभ, तर शांती तरुण स्त्री हरण करता. गुण मत्सरान व्यापल्यां तर अरण्य सर्पांनि आवळल्यां. राजाक दुर्जनांनि धरल्यां चांचल्यान विपत्ती गृहित केल्यां. प्रत्येकाचे मागशीं कोणीतरी लागला.



आधिव्याधिशतैर्जनस्य विविधैरारोग्यमुन्मूल्य ते ।
लक्ष्मीर्यत्र पतन्ति तत्र विवृतद्वारा इव व्यापदः ॥
जातं जातमवश्यमाशु विवशं मृत्युः करोत्यात्मसात् ।
तत्किं कस्य निरंकुशेन विधिना यन्निर्मितं सुस्थिरम् ॥ ३१ ॥

--अनेक प्रकारचे मानसिक शारीरिक व्याधिन आरोग्य नष्ट जात्ता. लक्ष्मी घरांतु आसल्यारि आपत्ती घरांतु प्रवेश करता. जन्माक आयिले प्राणीक मरण गिळता. सारांश, ब्रह्मदेवान ह्या जगांतु शाश्वत अश्शी कसले निर्माण केल्या?

भोगास्तुङगतरङगभङगचपलाः प्राणाः क्षणध्वंसिनः ।
स्तोकान्येव दिनानि यौवनसुखं स्फीतिः क्रियासु स्थिता ।।
तत्संसारमसारमेव निखलं बुध्दा बुधा बोधका ।
लोकानुग्रहपेशलेन मनसा यत्नः समाधीयताम् ।। ३२ ।।

–भोग हें अुदकाचें अूंच लाटे प्रमाणें चंचल आसता. प्राणाचो भरवसो ना. तारुण्यसुखसुध्दां क्षणभंगूर आस्सा. कर्मांचो पसारो मात्र जबरदस्त आस्सा.! म्हण्णु बुध्दीमान लोकांनो संसार हो असार हें जाणून परोपकार करचाक तत्पर जावनु लोकोध्दाराक प्रयत्न करा.



भोगा मेघततीलसच्चपलया तुल्यस्तथा प्राणिनाम् ।
आयुर्वायुविघट्टिताभ्रपटलीलोलाम्बुवद्भंगुरम् ।।
लोला यौवनलालसास्तनुभृतामित्याकलय्य द्रुतम् ।
योगे धैर्यसमाधिसिध्दिसुलभे बुध्दि विदध्वं बुधाः ।। ३३ ।।

--भोग हें विजेप्रमाणें चंचल, आयुष्य हे वाऱ्यान हालयलें अभ्रपटलांतुले अूदकाप्रमाणें क्षणभंगूर, तारुण्याचो सुद्धां भरवंसो ना. म्हण्णुं, बुद्धीमान लोकांनो धैर्यान आणि विवेकान कर्मयोगाचो आचरण करा.



आयुः कक्लोललोलं कतिपयदिवसस्थायिनी योवनश्रीः ।
अर्थाः संकल्पकल्पा घनसमयतडिद्विभ्रमा भोगपूरः ।।

कंठा श्लेषोपगूढं तदपि च न चिरं यत्प्रियाभिः प्रणीतम् ।
ब्रह्मण्यासक्तचित्ता भवत भवभयाम्भोधिपारंतरीतुम् ।। ३४।।

–जललहरी प्रमाणें आयुष्य क्षणभंगूर, तारुण्य थोडे समय टिकचे, भोग विजेप्रमाणें चंचल, आणि स्त्रीयांले अलिंगन तें क्षणिक! म्हण्णुं संसारसागर पोंवनुं वच्याक परब्रह्मांतु चित्त स्थिर करांचि.



कृच्छ्रेणामध्यमध्ये नियमिततनुभिः स्थीयते गर्भवासे ।
कान्ताविश्लेषदुःखव्यतिकरविषमे यौवने विप्रयोगः ।।
वामाक्षीणामवज्ञाविहसितवसतिर्वृध्दभावोप्यसाधुः ।
संसारेरेमनुष्यावदत यदि सुखं स्वल्पमप्यस्तिकिंचित् ।। ३५ ।

-मलमूत्रान घाण्यारडे जालिलें गर्भवासांतु अुरचें, नंतर तारुण्यांतु प्रियेलें वियोगान दुःख भोगचें, आणि म्हांतारपणांतु स्त्रीयांकडचान जावचो अुपहास सहन करचें, ह्या प्रकार वेदना दिवचे जीवनांतु तिळभर तरी सुख आस्सावे?



व्याघ्रीव तिष्ठति जरा परितर्जयन्ती ।
रोगाश्च शत्रव इव प्रहरन्ति देहम् ।।
आयुः परिस्रवति भिन्नघटादिवाम्भो- ।
लोकस्तथाप्यहितमाचरतीति चित्रम् ।। ३६ ।।

–म्हांतारपण वाघासारखे मुकारी अुभीं राबल्यां, रोग शत्रुप्रमाणें देहावयरि हल्ले करता आणि आयुष्य फुटिले हंडयांतुल्यान व्हावचे अुदाकशे आस्सा, अशिश आसताना लोक निर्भयान दुष्कृत्य करताचि, हें आश्चर्य न्हंयवे?



भोगा भङ्गुरवृत्तयो बहुविधास्तैरेव चायं भवः ।
तत्कस्यैव कृते परिभ्रमत रे लोकाः कृतं चेष्टितैः ।।
आशापाशशतोपशान्तिविशदं चेतः समाधीयताम् ।
कामोच्छित्तिवशे स्वधामनि यदि श्रध्देयमस्मद्वचः ।। ३७ ।।

–भोग हें क्षणभंगूर आस्सा; ताज्जे कारणानचि हो संसार अितलो विस्तार जाल्ला. म्हण्णु लोकांनो, ही खटाटोप पुरो आत्तां! आत्तां अेकचि अुपाय सांगता तुमकां. आशेचे बंधनांतुल्यान मुक्त जालिलें हें मन, कामदहनाक कारणीभूत आशिल्लें आत्मस्वरुपाचे पायी दृढ कराचि आणि कृतार्थ जावनु अुरा.



ब्रह्मेन्द्रादिमरुद्गणांस्तृणगणान् यत्र स्थितो मन्यते ।
यच्छापाद्विरसा भवन्ति विभवास्त्रैलोक्यराज्यादयः ।।
बोधः कोपि स एक एव परमो नित्योदितो जृम्भते ।
भो साधो क्षणभंगुरे तदितरे भोगे रतिं मा कृथाः ।।३८ ।।

—जें जाग्यारि स्थिर जाल्यान ब्रह्मा, अिंद्र आणि मरुद्गण हे तणाप्रमाणे भासताचि, जें प्राप्त जाल्यान त्रैलोक्याचें राज्य सुद्धा कचऱ्याप्रमाणें दिसता, असलें ते ब्रह्मज्ञानचि प्रकाशमान आस्सा. म्हण्णु हे सद्गृहस्था, क्षणभंगुर भोगांतु तूं आसक्त जावनाक्का.



सा रम्या नगरी महान् स नृपतिः सामन्तचक्रं च तत् ।
पार्श्वे तस्य च सा विदग्धपरिषत्ताश्चचंद्रबिंबाननाः ॥
उन्मत्तः स च राजपुत्रनिवहस्ते बंदिनस्ताः कथाः ।
सर्वं यस्यः वशादगात्स्मृतिपथं कालाय तस्मैः नमः ॥ ३९ ॥

—तें रम्य नगर, तो महान राजा, ते माण्डलिक मंडळ, विद्वानाली ती सभा, ते सुंदर स्त्रीं, तो शूर राजपुत्रांलो समुदाय, स्तुतिकरचे लोक, आणि अनेक जे नाश जावनुं, खाक जावनु केवल स्मृतिरुपान अुरले असले त्या कारणीभूत पुरुषाक वंदन !



यत्रानेकः क्वचिदपि गृहे तत्र तिष्ठत्यथैको- ।
यत्राप्येकस्तदनु बहवस्तत्र नैकोऽपि चान्ते ॥
इत्थं चेमौ रजनिदिवसौ दोलयन् द्वाविवाक्षौः ।
कालः काल्या भुवनफलकं क्रीडति प्राणिसारैः ॥ ४० ॥

--ज्या घरांतु पयलें अनेकांली वस्ती आशिल्ली, थंयी नंतर अेकचि अुरता. जाल्यारि जंयीं कोणांलोयी अवशेष नाशिल्लो थंयीं आत्तां गर्दी भरलेली दिसता. आणि अंताक

पळयल्यारि कोणांचोयी पत्तो ना. सरांश सांगचे म्हळ्यारि ज्या प्रमाणें नट रंगमंचारि पयले येत्ता, नंतर पसरता आणि अखेरीक नांचि जात्ता, त्या प्रमाणें दिस आणि रात्र हे दोन फांसे घालत ह्या जगरुपी पटावयरि प्राण्यांलो गुलियो कोरनु काळ खेळ खेळता.



आदित्यस्य गतागतैरहरहः संक्षीयते जीवितम् ।
व्यापारैर्बहुकार्यभारगुरुभिः कालो न विज्ञायते ।।
दृष्ट्वा जन्मजराविपत्तिमरणं त्रासश्च नोत्पद्यते ।
पीत्वा मोहमयीं प्रमादमदिरामुन्मत्तभूतं जगत् ।। ४१ ।।

सूर्याचे अुदयोस्ता बरोबर आयुष्य क्षीण जात्ता. जाल्यारि व्यापारांतु गुंतिले कारण तें लक्षांतु वचना! अितलेंचि कित्याक तर जन्म, मरण आणि म्हांतारपण हांचे दुःख प्रत्यक्ष स्वतः दिसत आसल्यारियि ताज्जे आमका कांयी दीसना. मोहरुपी मदिरा पिलिल्यान हें सर्व जग अुन्मत्त जाल्यां, हांतु संशय ना.



रात्रिः सैव पुनः स एव दिवसो मत्वाऽबुधा जन्तवो ।
धावन्त्युद्यमिनस्तथैव निभृतप्रारब्धतत्तत्क्रियाः ।।
व्यापारैः पुनरुक्तभूतविषयैरेवंविधेनाऽमुना ।
संसारेण कदर्थिताः कथमहो मोहान्न लज्जामहे ।। ४२ ।।

--अेक संपिलि रात्र आणि गेलिलो दिवस परत येत म्हण्णुं ज्ञाते सुद्धां व्होड व्होड अुद्योग मात्यारि घेवनुं धांवताचि. जाल्यारि प्रारब्धचि सर्व कर्म घडण करता! अुष्टे विषय वासनेन फसलेले आम्मी, मोहाचे कारणान हें समजनांचि.



न ध्यातं पदमीश्वरस्य विधिवत्संसारविच्छित्तवे ।
स्वर्गद्वारकपाटपाटनपटुर्धर्मोऽपि नोपार्जितः ।।
नारीपीनपयोधरोरुयुगलं स्वप्नेऽपि नालिङ्गितम् ।
मातुः केवलमेव यौवनवनच्छेदे कुठारा वयम् ।। ४३ ।।

--अरेरे! कित्ते सांगचें! जन्ममरणांचे फेरी घालोवनुं काडचें ईश्वरचिंतन यथाविधी केन्नायी केल्लें नां; स्वर्गांचे दरवाजे अुघडचे धर्मकृत्यं केन्नांयीं केलिल्लि नांचि! तें अुरो. तर अेक मधुकामिनीले अुरोभागाक आलिंगन दीवनुं मेळचें अैहिक सुख सुद्धां मेळ्ळें ना. सारांश आवयले तारुण्याचे नाश करचाकचि आम्मी कुऱ्हाडशे तिगेले पोटांतु जन्मले.



नाभ्यस्ता भुविवादिबृन्ददमनी विद्या विनीतोचिता ।
खड्गाग्रैः करिकुम्भपीठदलनैर्नाकं न नीतं यशः ।।
कान्ताकोमलपल्लवाधररसः पीतो न चंद्रोदये ।
तारुण्यं गतमेव निष्फलमहो शून्यालये दीपवत् ।। ४४ ।।

--वादविवादांतु निक्षणात आशिल्यांक दमन करची आणि

नीति नियमाक योग्य असली विद्या आम्मी हस्तगत केलिलि ना. किंवा तरवारीन हस्तिलें गंडस्थळ फोडची कीर्तिसुद्धां कमयली ना. तें अुरों. तर चांदण्यांतु बसून कांतेले मधुर ओंठाचे पान सुद्धां आम्मीं केल्लें ना. सारांश निर्जन घरांतुले दिव्याप्रमाणें आमगेलें तारुण्य व्यर्थ गेलें.



विद्या नाधिगता कलङ्करहिता वित्तं च नोपार्जितम् ।
शुश्रूषाऽपि समाहितेन मनसा पित्रोर्न संपादिता ।।
आलोलायतलोचना युवतयः स्वप्नेऽपि नालिङ्गिताः ।
कालोऽयं परपिण्डलोलुपतया काकैरिव प्रेरितः ।। ४५ ।।

--अरेरे! कसलें हें आमगेलें जीवन! जन्माक येवनुं आम्मी निष्कलंक विद्या किंवा धन संपादन केलें ना. मातापितांली सेवा सुद्धां हातान घडली ना! तें अुरों. तर चपल विशाल नयनांचि मधु यौवनेकं स्वप्नांतु सुद्धां अलिंगन दिलें ना. ह्याप्रमाणें हो काळ कावळ्याप्रमाणें अन्नाचि आशा करत घालयलो.



वयं येभ्यो जाताश्चिरपरिगता एव खलु ते ।
समं यैः संवृद्धाः स्मृतिविषयतां तेऽपि गमिताः ।।
इदानीमेते स्म प्रतिदिवसमासन्नपतनात् ।
गतास्तुल्यावस्थं सिकतिलनदीतीरतरूभिः ।। ४६ ।।

-ज्यां पासून आम्मी जन्माक आयले ते वचून मस्त दिवस जाल्ले. समवयस्क सुद्धां स्मरणांतूचि जशें अुरले. आम्मी सुद्धां पतनोन्मुख रुकाप्रमाणें जिवताचि.



आयुर्वर्षशतं नृणा परिमितं रात्रौ तदर्घं गतम् ।
तस्यार्घस्य परस्य चार्धमपरं बालत्ववृद्धत्वयोः ॥
शेषं व्याधिवियोगदुःखसहितं सेवादिभिर्नीयते ।
जीवे वारितरङ्गचञ्चलतरे सौख्यं कुतः प्राणिनाम् ॥ ४७ ॥

–मनुष्याले आयुष्य शंभर वर्स म्हण्णुं धरल्यारि तांतुलें अर्धे, रात्रितु वत्ता. बाकी अुरलेल्यांतु अर्ध्यापेक्षा जास्त बाल्य आणि म्हांतारपणांतु वत्ता! आत्तां अुरले पंचवीस वर्स रोग, संकट, विरह आणि सेवेंतु वत्ताचि! सारांश म्हळ्यारि ह्या जलप्रवाहाप्रमाणें व्हावचे क्षणभंगुर आयुष्यांतु सुख तें कश्शीं मेळताले.






क्षणं बालो भूत्वा क्षणमपि युवा कामरसिकः ।
क्षणं वित्तैर्हीनः क्षणपि च संपूर्णविभवः ॥
जराजीर्णैरङ्गैर्नट इव वलीमण्डिततनुः ।
नरः संसारान्ते विशति यमधानीजवनिकाम् ॥ ४८ ॥

–जशें नट अनेक सोंग घालता, तशें मनुष्य संसार रुपी नाट-कांतु थोडे वेळ बालक जात्ता, थोडे वेळ कामक्रीडा करचो

रसिक तरुण जात्ता, थोडे वेळ श्रीमंत तर थोडे वेळ गरीब जात्ता. आणि अखेरीक म्हांतारपणान जीर्ण जावनुं परदुःख दायक असले यमनगरींतु गुप्त जात्ता.



अहौ वा हारे वा बलवति रिपौ वा सुहृदि वा ।
मणौ वा लोष्टे वा कुसुमशयने वा दृषदि वा ।।
तृणे वा स्त्रैणे वा मम समदृशो यांति दिवसाः ।
कदा पुण्येऽरण्ये शिवशिवशिवेति प्रजपतः ।। ४९ ।।

--सर्प किंवा हारावयरि, शत्रु किंवा मित्रावयरि, रत्न किंवा मातीचे ढीगावयरि, फुलांवयरि किंवा शीळेवयरि, तण किंवा स्त्रीवयरि, खंयीयी अुरो. सर्वत्र समदृष्टी दवरचे मेगेले तऱ्हेचे लोकांले दिवस रानांतु शिवनाम जप करचांतु वचूं.



त्वं राजा वयमप्युपासितगुरुप्रज्ञाभिमानोन्नताः ।
ख्यातस्त्वं विभवैर्यशांसि कवयो दिक्षु प्रतन्वन्तिः न ।।
इत्थं मानधनातिदूरमुभयोरप्यावयोरन्तरम् ।
यद्यस्मासु पराङ्मुखोऽसि वयमप्येकान्ततो निस्पृहाः ।। ५० ।।

--हे राजा तूं राजा म्हण्णुं व्होड आस्सा, आम्मीं सुद्धां ज्ञानान व्होड आस्साचि. संपत्ती कारणान तूं सर्वांक ज्ञात आसल्यारि आमगेली कीर्ति सुद्धां जाणते सर्व बाजून पसरायताचि. सारांश म्हळ्यारि तुगेल्यांतु आणि आमच्च्यांतु कायी फरक

नासताना तूं आमगेलो तिरस्कार करत आसल्यारि, आमकां सुद्धां तुगेली गरज ना. आम्मी निस्पृह आस्साचि.



एकाकी निःस्पृहः शांतः पाणिपात्रो दिगम्बरः ।
कदा शंभो भविष्यामि कर्मनिर्मूलनक्षमः ।। ५१ ।।

--हे शंभो ! अेकाकी, निरिच्छ, शांत, हाताचो तळवोचि भिक्षापात्र आशिल्लो दिगंबर, सर्व कर्म नष्ट करचो, अश्शी हांवु केन्ना जायन?



पाणिं पात्रयतां निसर्गशुचिना भैक्ष्येण संतुष्यताम् ।
यत्र क्वापि निषीदतां बहुतृणं विश्वं मुहुः पश्यताम् ।।
आत्यागेपि तनोरखंडपरमानंदावबोधस्पृहाम् ।
मर्त्यः कोपि शिवप्रसादसुलभां संपत्स्यते योगिनाम् ।। ५२ ।।

–हाताचेंचि भिक्षापात्र करनुं मेळिलें आणि निर्मळ असले अन्नावयरी संतुष्ट पावचे, खंयीयी पडून हें जग तणांप्रमाणें मानचे योगी, मरणापयलें ज्या परमानंदाचि संपत्ती प्राप्त करनुं घेत्ताचि, तें सुद्धां शिवाले कृपेनचि साध्य.



अर्थानामीशिषे त्वं वयममि च गिरामीश्महे यावदित्थम् ।
शूरस्त्वं वादिदर्पज्वरशमनविधावक्षयं पाटवं नः ।।

सेवन्ते त्वां धनान्धा मतिमलहतये मामपि श्रोतुकामा- ।
माम्यप्यास्था न चेत्सात्वयि मम सुतरामेष राजन् गतोऽस्मि ।५३

--हे राजा! तुं संपत्ती आपण्यालाग्गी सांभाळता, आम्मी वाक्याचे सर्व अर्थ ध्यानांतु दवरताचि. तूं रणांगणांतु पराक्रमी जाल्यारि, आम्मीं वाद विवादांतु शूर आस्साचि. तूगेली सेवा द्रव्याचि अभिलाषा करताले करताचि तर आमगेली सेवा बुद्धीचे दोष संहार करताले करताचि. सारांश तुगेल्यांतु आणि आमगेल्यांतु कांयी फरक ना. अश्शीं आसताना जर तुक्का आमगेली गरज दीसना तर आम्मीं सुद्धां तुगेली गरज कसल्याक दाखोवका?



चयमिह परितुष्टा वल्कलैस्त्वं दुकूलैः ।
सम इह परितोषो निर्विशेषोऽवशेषः ।।
स तु भवति दरिद्रो यस्य तृष्णा विशाला ।
मनसि च परितुष्टे कोऽर्थवान्को दरिद्रः ।। ५४ ।।

--हे राजा! आम्मीं वल्कलं घालनुं संतुष्ट आस्साचि तर तूं भर्जरी वस्त्रांवयरि खुष आस्सा. संतुष्ट जावचांतु तुगेल्यांतु आणि आमच्यांतु कायी फरक ना. आम्मीं सुद्धां तुगेलेप्रमाणें श्रीमंत आस्साचि. जे मानुष्याक लोभ आस्सा तोचि दरिद्री म्हणका! जें मेळता ताज्जेरि संतुष्ट आसल्यारि श्रीमंत कोण दरिद्री कोण?



फलमलमशनाय स्वादु पानाय तोयम् ।
शयनमवनिपृष्ठे वाससी वल्कले च ॥
धनलवमधुपानभ्रान्तसर्वेन्द्रियाणाम् ।
अविनयमनुमन्तुं नोत्सहे दुर्जनानाम् ॥ ५५ ॥

–खावचाक फलं, पिवचाक मधुर उदाक, निदचाक भूंयी, पांघुरचाक वल्कलं, अितलें मेळ्यारि पूरो! धनरुपी मद्यान धुंद जालिल्यांक अनुकरण करचें आमगेंलें मन तयार ना.



अशीमहि वयं भिक्षामाशावासो वसीमहि ।
शयीमहि महीपृष्ठे कुर्वीमहि किमीश्वरैः ॥ ५६ ॥

–आम्मि भिक्षान्न खावनुं निर्वाह करुं, दिशा हेंचि वस्त्रं म्हण्णु न्हेसूं, भूंयीचि शयन म्हण्णु समजूं! आमकां धनिकांलि गरज ना.



न नटा न विटा न गायकाः ।
परद्रोहनिबद्धबुद्धयः ॥
नृपमीक्षितुमत्र के वयम् ।
स्तनभारानमिता न योषितः ॥ ५७ ॥

–आम्मीं नट न्हंय, विट (खुशमस्करी) न्हंय, गायक न्हंय

परद्रोहीसुद्धां न्हंय. किंवा स्तनभारान वांकिले स्त्रीसुद्धां न्हंय. तेन्ना आमकां राजवाड्यांतु कोण विचारता ?



विपुलहृदयैर्धन्यैः कैश्चिज्जगज्जनितं पुरा ।
विधृतमपरैर्दत्तं चान्यैर्विजित्यतृणं यथा ॥
इह हि भुवनान्यन्ये धीराश्चतुर्दश भुज्जते ।
कतिपयपुरस्वाम्ये पुंसां क एष मदज्वरः ॥ ५८ ॥

–हें जग अुदार अंतकरणयुक्त समर्थ जनांनि पयले निर्माण केलें, थोड्यानि ताज्जे योग्य पालन केलें, कितले तरी लोकांनी तें जिंकून दुसऱ्याक दिलें, कित्येकांनि तें तणांप्रमाणें समजून अुडयलें, आणि आत्तां चार दिशांचे ह्या भवनांचे अुपयोग थोडे कोणी करताचि. असले ह्या जगांतु कितले तरी व्होड पुरुष जन्माक येवनुं गेले. आणि आत्तां चार गांवांचे अधिपत्य मेळ्यारि लोक कितले चडनुं वत्ताचि पळया!



अभुक्तायां यस्यां क्षणमपि न यातं नृपशतैः ।
भुवस्तस्या लाभे क इव बहुमानः क्षितिभुजाम् ॥
तदंशस्याप्यंशे तदवयवलेशेऽपि पतयो- ।
विषादे कर्तव्ये विदधति जडाः प्रत्युत मुदम् ॥ ५९ ॥

–अश्शीं अेक क्षण सुद्धां गेलिलो अुरचो ना, जेन्नां ही भूंय शंभर राजांनि अुपभोगिली ना. तेन्ना वेश्येप्रमाणें कोणांकचि

भोग दिवूं शकचि ह्या भूंयचो लाभ थोडो मेळ्ळोकीं हे राजा अितलो कित्याक फुगता? वास्तविक ह्या आफाट पृथ्वीचो ल्हानांतु ल्हान तुकडो मेळ्यारीयि खेद करका. जाल्यारि मूर्ख राजे तांतूंतचि आनंद मानताचि.



परेषां चेतांसि प्रतिदिवसमाराध्य बहुधा ।
प्रसादं किं नेतुं विशसि हृदय क्लेशकलिलम् ॥
प्रसन्ने त्वय्यन्तः स्वयमुदितचिन्तामणिगुणे ।
विविक्त संकल्पः किमभिलषितं पुष्यति न ते ॥ ६० ॥

—हे मना, कोणांली अनेक प्रकारान संतुष्ट करचांक कित्याक निष्कारण श्रम घेत्ता. ताज्जेंपेक्षा तूं स्वतः प्रसन्न आसल्यारि तुगेले जाग्यारिचि चिंतामणीले सर्व गुण येवचे नांचिवे? तुगेलो शुद्ध संकल्पचि तुगेली अिच्छा पूर्ण करतालि.



परिभ्रमसि किं वृथा क्वचन चित्त विश्राम्यताम् ।
स्वयं भवति यद्यथा भवति तत्तथा नान्यथा ॥
अतीतमपि न स्मरन्नपि न भावि संकल्पयन् ।
न तर्कितगमागमाननुभवस्व भोगानिह ॥ ६१ ॥

—हे मना! अुगीच कित्याक रवरव फिरता? शांत चित्तान विश्रांति घे! जें जावचें आस्सा, ते आपणचि जावनुं जात्ता. तांतु कांयी बदल जावचो ना. आत्ता भूत काळाचो विचार

किंवा भविष्य काळाचो संकल्प करनाका. सहजरीतिन येवचे अशाश्वत भोगांचो अुपभोग स्वस्थपणान घे. कारण भोग हें भोगूनचि संपोवका.



चेतर्श्चितय मा रमां सकृदिमामस्थायिनीमास्थया ।
भूपालभ्रुकुटीकुटीरविहरव्यापारपण्यांगनाम् ॥
कंथाकंचुकिताः प्रविश्य भवनद्वाराणि वाराणसी- ।
रथ्यापंक्तिषु पाणिपात्रपतितां भिक्षामपेक्षामहे ॥ ६२ ॥

–हे मना! ह्या चंचल लक्ष्मीली आशा तूं केन्नायी करनाका. कारण ही संपत्ती वेश्येप्रमाणें राजाले मानसांतु तागेले कलाप्रमाणें क्रीडा करता. आम्मीं तर गोधडी पांघरुन काशीक्षेत्रांतु ह्लाताचें पात्र करनुं घरोनघर भिक्षेचि अपेक्षा करचे मानव. आमकां ह्या संपत्तीचि कसली गरज?



अग्रे गीतं सरसरवयः पार्श्वयो दाक्षिणात्याः ।
पृष्ठे लीलावयरणितं चामरग्राहिणीनाम् ॥
यद्यस्त्येवं कुरु भवरसास्वादने लम्पटत्वम् ।
नो चेच्चेतः प्रविश सहसा निर्विकल्पे समाधौ ॥ ६३ ॥

–हे मना, मुकारि गायन चलल्यां, दोनी बाजून रसिक कवी करमणूक करताचि, चवरी हालोवचे स्त्रीयांले कांकणाचो मंजुळ शद्ब मध्येंचि आयकता. ह्या प्रकाराचे अैश्वर्याचि

अिच्छा आसल्यारि ह्या संसार सुखाचेरि लुब्ध जावनुं अुर! आणि जर तश्शीं नासल्यारि, हांतु व्यर्थ पडनासताना अखंड आनंद दिवचे योगसमाधीचो आश्रय घे.





एतस्माद्विरमेन्द्रियार्थगहनादायासदादाशु च ।
श्रेयोमार्गमशेषदुःखशमनव्यापारदक्षं क्षणात् ॥
शान्तं भावमुपेहि संत्यज निजां कल्लोललोलां मतिम् ।
मा भूयो भज भङ्गुरां भवरतिं चेतः प्रसीदाधुना ॥ ६४ ॥

–हे मना, दया कर आणि ह्या क्लेशदायक विषयरुपी अरण्याचो त्याग करनुं सर्व दुःखाचे नाश करचो पुण्य मार्ग धर! आत्मरुपाचे जाण घेवनुं तरंगाप्रमाणें अुरचि ही चंचल वृत्ती त्याग कर. आणि नाशवंत संसाराचि परत म्हण्णुं अिच्छा कर नाक्का.



मोहं मार्जयतामुपाश्रय रतिं चन्द्रार्धचुडामणौ ।
चेतः स्वर्गतरङ्गिणीतटभुवामासंगमङ्गीकुरु ॥
को वा वीचिषु बुद्बुदेषु च तडिल्लेखासु च स्त्रीषु च ।
ज्वालाग्रेषु च पन्नगेषु च सरिद्वेगेषु च प्रत्ययः ॥ ६५ ॥

–हे मना, मोह सोडनुं दी. आणि मात्यारि बालचंद्र धारण करचे शंकराली भक्ती कर. भागीरथीचे दंडयारि निवास, कर. कारण जलप्रवाह, अुदकाचे फुगे, वीज, संपत्ती, ज्वाला

सर्प, नदी हांचेवयरि विश्वासतरी कश्शी दवरचो? हीं सर्व चंचल आणि अखेरीक दु:ख दिवचीं आस्साचि.



प्राप्ता: श्रिय: सकलकामदुधास्तत: किम् ।
दत्तं पदं शिरसि विद्विषतां तत: किम् ॥
संमानित: प्रणयिनो विभवैस्तत: किम् ।
कल्पं स्थितं तनुभृतां तनुभिस्तत: किम् ॥ ६६ ॥

–सर्व भोगांचो आस्वाद घेवची अितली संपत्ती प्राप्त जाल्ली. शत्रूंक पायातग्गुं तुडयलें, मित्रांलो भव्य सत्कार केलो. अनेक युग हें शरीर कायम अुरले अित्यादि खबर जरी अेक वेळ खरोखर घडले, तरी तांतु विशेष अश्शीं कांयीच्चि ना. कारण ह्या सर्वांपासून ईश्वराली प्राप्ती किंवा मोक्ष हें दोन्नांतु अेक सुद्धा साध्य जाल्लें ना.



भक्तिर्भवे मरणजन्मभयं हृदिस्थम् ।
स्नेहो न बंधुषु न मन्मथजा विकारा: ॥
संसर्गदोषरहिता विजना विनान्ता- ।
वैराग्यमस्ति किमत: परमर्थनीयम् ॥ ६७ ॥

–शंकरा बद्दल भक्ती आस्सा. हृदयांतु जननमरणाविशय सदा भय स्वजनांबद्दल आसक्ती किंवा कामविकार कांयीच ना. संसर्ग दोष रहित वन आणि वैराग्य सुद्धां लाग्गीं आस्सा.

तेन्ना हाज्जें पेक्षा जास्त कसले जाय? कारण वैराग्यापेक्षां श्रेष्ठ असले दुसरे भाग्यचि ना.



तस्मादनन्तमजरं परमं विकासि ।
तद्ब्रह्म चिन्तय किमेभिरसद्विकल्पैः ।।
यस्मानुषङ्गिण इमे भुवनाधिपत्य- ।
भोगापयः कृपणलोकमता भवन्ति ।। ६८ ।।

–हे मूर्खा, अमर आणि स्वयंप्रकाश अश्शीं जे ब्रह्म आस्सा. ताज्जेंचि सदा चिंतन कर! विषय चिंतनांतु कांयी अर्थं ना. त्रैलोक्याचे अधिपत्यादि भोग ह्या ब्रह्मामुकारि अतिषय गौण आस्साचि. जाल्यारि अज्ञानी लोक ताज्जेरीचि आसक्त जात्ताचि.



पातालमाविशसि यासि नभो विलङ्घ्य ।
दिङ्मंडलं भ्रमासि मानस चापलेन ।।
भ्रान्त्वापि जातु विमलं कथमात्मनीनम् ।
न ब्रह्म संस्मरसि निर्वृतिमेषि केन ।। ६९ ।।

–हें मनो, अेक क्षणांतु तूं पाताळांतु शिरु शकता, आकाशांतु अुडुं शकता, दिशांचे प्रदक्षिण घालू शकता. जाल्यारि तुगेले जाग्यारिचि स्थिर आशिल्ले शुद्ध ब्रह्माचो पत्तो मात्र तुक्का लागना. तेन्ना तूं कश्शीं सुख मेळयतालो?



किं वेदैः स्मृतिभिः पुराणपठनैः शास्त्रैर्महाविस्तरैः ।
स्वर्गग्रामकुटीनिवासफलदैः कर्मक्रियाविभ्रमैः ॥
मुक्त्वैकं भवदुःखभाररचनाविध्वंसकालानलम् ।
स्वात्मानन्दपदप्रवेशकलनं शेषा वाणिग्वृत्तयः ॥ ७० ॥

—वेद, स्मृतीं, पुराण वाचिल्यान किंवा विस्तृत शास्त्रांनि सुद्धां कित्तें जावचें आस्सा? स्वर्ग ग्राम कुटि निवासांचे कसले फल? कर्मकांडाचो तरी अुपयोग कसलो? कारण संसाररुपी दुःखाचे विध्वंस करचें आत्मानंदाचे ज्ञान हेंचि सुखाचें साधन म्हणका. बाकी सर्व व्यापारी वृत्ती म्हणका.



गात्रं संकुचितं गतिर्विगलिता भ्रष्टा च दन्तावलि- ।
र्दृष्टिर्नश्यति वर्धते बधिरता वक्त्रं च लालायते ॥
वाक्यं नाद्रियते च बान्धवजनैर्भार्या न शुश्रूषते ।
हा कष्टं पुरुषस्य जीर्णवयसः पुत्रोऽप्यमित्रायते ॥ ७१ ॥

—सर्वांगाक सुरकुत्यो, पाय अुचलचाक शक्ति ना, दृष्टी मंद जाल्या, कान कम्मीं आयकताचि, तोंडांतुल्यान लाळ गळता, आप्त मंडळी सुद्धां शद्बांक किमत दीनांचि; अितलेंचि, कित्याक स्वतःचि पत्नी सुद्धां आपण्याक आयकनाशी जाल्ली! अरे म्हांतारपण भारी भयदायक आस्सा, आपण्यालों पूत सुद्धां शत्रुप्रमाणे वागता.



वण सितं शिरसि वीक्ष्य शिरोरुह्याणाम् ।
स्थानं जरापरिभवस्य तदेव पूंसाम् ।।
आरोपितास्थिशकलं परिहृत्य यान्ति ।
चांडालकूपमिव दूरतरं तारुण्यः ।। ७२ ।।

–म्हांतारपणाचान पराभव मेळचें म्हळ्यारि मात्यावयरि धव्वे केस येवचें! हो रंग पळयिलो कीं तरुण बायलं, चांडालन हात लायिली बांयीशि, ह्या पुरुषापासून दूर वत्ताचि.



यावत्स्वस्थमिदं शरीरमरुजं यावज्जरा दूरतो ।
यावच्चेन्द्रियशक्तिरप्रतिहता यावत्क्षयो नायुषा ।।
आत्मश्रेयसि तावदेव विदुषा कार्यः प्रयत्नो महान् ।
संदीप्ते भवने तु कूपखननं प्रत्युद्यमः कीदृशः ।। ७३ ।।

–जो पर्यंत शरीर निरोगी आसता, जो पर्यंत म्हांतारपण दूर आसता, जो पर्यंत इंद्रियांचि शक्ती क्षीण जाल्ली ना, आणि आयुष्याचो क्षय जाल्लो ना, तो पर्यंत शाण्यान सद्‌गतीखातिर महान प्रयत्न करकाचि. ना जाल्यारि घराक अुज्जो लागले कीं बांयी खणचाक वच्चें कसले कामाचें?



ततस्यन्तः संतः किमधिवसामः सुरनदीम् ।
गुणोदारान्दारान् क्व नु परिचरामः स्वविषयान् ।।
पिबामः शास्त्रौघानुत विविधकाव्यामृतरसान् ।
न विद्मः किं कुर्मः कतिपयनिपेषायुषि जने ।। ७४ ।।

–क्षणभंगूर असले ह्या शरीरान आम्मीं गंगेतीरारि तपश्चर्या करका; की सद्‌गुणी स्त्रीले सहवासांतु विलास करका, किं शास्त्रांचो अभ्यास करका कीं काव्यामृताचे प्राशन करका हें कांयींचि आमकां कळनाशें जाल्यां.



दुराराध्यः स्वामी तुरगचलचित्ताः क्षितिभृतो ।
वयं च स्थूलेच्छाः सुमहति पदे बद्धमनसः ।।
जरा देहं मृत्युर्हरति दयितं जीवितमिदम् ।
सखे नान्यच्छेयो जगति विदुषोऽन्यत्र तपसः ।। ७५ ।।

–सालकाली मर्जी राखचि कठीण, राजे अश्वासारखे चंचलचित्ताचे, आणि आमगेली अिच्छा व्होड आस्सून मन व्होड पदाखातिर धांवता! म्हांतारपण देहाचे नाश करता; मरण तर मनुष्यालो प्राणचि हरण करता. म्हण्णुं मित्रा, ह्या जगांतु तपश्चर्येसारखे दुसरे श्रेय खंचेयी ना.



रम्याश्चंद्रमरीचयस्तृणवती रम्या वनांतस्थली ।
रम्यःसाधुसमागमः शमसुखं काव्येषू रम्याः कथाः ।।
कोपोपाहितबाष्पबिंदुतरलं रम्यं प्रियाया मुखं ।
सर्वं रम्यमनित्यतामुपगते चिते न किंचित्पुनः ।। ७६ ।।

–चंद्रकिरण, पांचवे चारांचे रम्य वन, साधूंलो सहवास, शांत सुख, काव्यांचो विचार, प्रणयकोपान आयिले, अश्रुंनि भिजिलें,

प्रियेलें सुंदर मुख–ही सर्व मधुर आस्साचि खरें! जाल्यारि खंयो पर्यंत?



रम्यं हर्म्यतलं न किं वसतये श्राव्यं न गेयादिकम् ।
किंवा प्राणसमासमागमसुखं नैवधिकं प्रीतये ।
किंतु भ्रान्तपतङ्गपक्षपवनव्यालोलदोपाङ्कुरः ।।
छायाचंचलमाकलय्य सकल सन्तो वनान्तंगताः ।। ७७ ।।

–रम्य महालांतु निवास करचें, मधुर संगीताचो आस्वाद घेवचो किंवा प्रियेलो निरंतर सहवास. ही सर्व मधुर न्हंयवे? जाल्यारि पतंगाचे घिरटचान अस्थिर आसचे दिव्याचे ज्योतिप्रमाणें हें सर्वसुख क्षणभंगूर आस्सा. म्हण्णूचि सर्व ज्ञानीलोक वनांतु गेले.



आसंसारं त्रिभुवनमिदं चिन्वतां तात तादृक् ।
नैवास्माकं नयनपदवीं श्रोत्रमार्गं गतो वा ।।
यो यं धत्ते विषयकरिणीगाढरूढाभिमान- ।
क्षीबस्यांतःकरणकरिणः सयमालानलीलाम् ।। ७८ ।।

–ह्या जगांतु विषय रुपी हत्तीणीलो कोणे त्याग केलो, आणि कोणे अंतकरणरुपी हत्तीले, जाल्यारि मदान माजिलें ना, असले मनुष्याले शोध ह्या संसारांतु मस्त केलो. जाल्यारि असलो मानव दृष्टीक किंवा आयकुवचांतु आयलो ना.



जीर्णा एव मनोरथाः स्वहृदये यातं च तद्यौवनम् ।
हन्ताङ्गेषू गुणाश्च वन्ध्यफलतां याता गुणज्ञैर्विना ॥
किं युक्तं सदसाभ्युपैति बलवान कालः कृतान्तोऽक्ष्मी ।
हाज्ञात मदनान्तकाङ्घ्रियुगुलं मुक्त्वाऽस्ति नोन्या गतिः ॥७९॥

–आमगेले मनोरथ मनांतुचि मरण पावलें, तारुण्य गेलें. कौतुक करताले मेळनांशि आंगांतुले गुण व्यर्थ गेले. वेळ कठीण आयला. आणि काळ आमगेले वयरि झडप घालता· आत्ता शिवचरणी ध्यान लायलेशिवाय दूसरे गत्यंतर ना.



महेश्वरे वा जगतामधीश्वरे ।
जनार्दने वा जगदन्तरात्मनि ॥
न वस्तुभेदप्रतिपत्तिरस्ति मे ॥
तथापि भक्तिस्तरुणेन्दुशेखरे ॥ ८० ॥

–जगत्पती शिव जगदात्म विष्णुंतु हांवु कसलो भेद मानना. तरीसुद्धां मेगेली भक्ती त्या बालचंद्र धारण करचे शंकरा-वयरीचि आस्सा.



स्फूरत्स्फारज्योत्स्नाधवलिततले क्वापि पुलिने ।
सुखासीनाः शांतध्वनिषू रजनीषू द्युसरितः ॥
भवाभोगोद्विग्नाः शिव शिव शिवेत्युच्चवचसः ।
कदा स्यामानन्दोद्गमबहुबाष्पाकुलदृशः ॥ ८१ ॥

–संसारान त्रस्त जालिले आम्मीं दैदीप्तमान् चद्रप्रकाशान शुभ्र जालिले गंगातीरारि वचून, थर्यीं अूंच स्वरान शिव–शिव म्हण्णुं भजन करत, हृदय भरिलें आणि दोळ्यांतु अश्रु धारण करनुं जेन्ना शांत रीतिन रात्री बसत तोच्चि सुदिन म्हणयेत.



वितीर्णे सर्वस्वे तरुणकरुणापूर्णहृदयाः ।
स्मरन्तः संसारे विगुणपरिणामांविधिगतिम् ।।
कदा पुण्यारण्ये परिणतशरश्चंद्रकिरणैः ।
त्रियामा नेष्यामो हरचरणचित्तैकशरणाः ।। ८२ ।।

–करुणेन आर्द्र हृदय जालिले आम्मीं, सर्वस्वी दान करनुं संसारांतुले दुष्परिणामाचे विचार मनांतु हाडनुं खंचेतरी अेक पवित्र अरण्यांतु शरदऋतुंतुले शुभ्र चांन्न्यांतु, शंकरालें ध्यानं करत दिवस केन्ना घालूं?



कदा वाराणस्याममरतटिनीरोध्नसि वसन् ।
वसानः कौपीनं शिरसि निदधानोञ्जलिपुटम् ।।
अये गौरीनाथ त्रिपुरहर शम्भो त्रिनयन ।
प्रसीदेत्याक्रोशन्निमिषमिव नेष्यामि दिवसान् ।। ८३ ।।

–काशीक वचून गंगातीरारि निवास करचो हांवु, कौपीन धारण करनुं, मस्तकावयरि प्रणामांजली धरनुं हे गौरिनाथ

हे त्रिपुरहर, हे शंभो, हे त्रिनयना, प्रसन्न जा, प्रसन्न जा म्हण्णुं मागणी करत केन्ना हांवु दिवस घालीन?



स्नात्वा गङ्गापयोभिःशुचिकुसुमफलैरर्चयित्वा विभो त्वां।
ध्येये ध्यानं निवेश्य क्षितिधरकुहरग्रावशय्यानिषण्णः ॥
आत्मारामोऽफलाशी गुरुवचनरतस्त्वत्प्रसादात्स्मरारे ।
दुःखं मोक्ष्ये कदाहं समकरचरणे पुंसिसेवासमुत्थम् ॥ ८४ ॥

–हे मदनांतका, गुरुवचनांतु सदा आसक्त आसचो, सदा संतुष्ट, फलमूलांचेरी जगचों हांवु गंगोदकान न्हांवनुं पवित्र फुलांनि तुगेली पूजा करनुं, पर्वताचे गुहेंतुले शीळे–वयरि बसून तुगले प्रसादान दुःखमय संसारांतुल्यान केन्ना मुक्त जायन?



मही रम्या शय्या विपुलमुपधानं भूजलता ।
वितानं चाकाशं व्यजनमनुकूलोयमनिलः ॥
स्फूरद्दीपश्चंद्रो विरतिवनितासङ्गमुदितः ।
सुखं शांतः शेते मुनिरतनुभूतिर्नृप इव ॥ ८५ ॥

–आकाशाचे छत्रान शोभचे भूयींरि, हातचि अुशि करनुं, नैसर्गिक वारो सेवन करत, चंद्राले निर्मल प्रकाशांतु शांतचित्तान मुनि राजाप्रमाणें विभूतियुक्त आति विरक्तीचे स्त्रीसंगत स्वस्थपणें निजता.



कौपीनं शतखंडजर्जरतरं कन्थापुनस्तादृशी ।
नैश्चिन्त्यान्निरपेक्षभैक्षमशनं निद्रा श्मशाने वने ।।
स्वातंत्र्येण निरङ्कुशं विरहणं शांत प्रशांतं मनः ।
स्थैर्यं योगमहोत्सवेऽपि च यदि त्रैलोक्यराज्येन किम् ।। ८६ ।।

–शंभर पिंदिले तुकड्यांचे कौपीन, चिंतेचो लवलेश ना, भिक्षेवयरि नित्यजीवन, स्मशानांतु किंवा वनांतु निद्रा, अनिर्बंध संचार, शांत प्रशांत मन इत्यादि आसून जर योगमार्गांतु स्थिरता मेळता तर त्रैलोक्यराज्यांतु आणि कित्तें जाय?



भूः पर्यङ्को निजभुजलनाकन्दुकं खं वितानम् ।
दीपश्चंद्रः सुमतिवनितालब्धसङ्गप्रमोदः ।।
दिक्कान्ताभिः पवनचमरैर्वीज्यमानः समंतात् ।
भिक्षुः शेते नृप इव भुवि त्यक्तसर्वस्पृहोऽपि ।। ८७ ।।

–भूंयींचि पलंग म्हण्णुं, हातचि उश्शीं, चारी बाजून पसरिले आकाशूचि छप्पर, चंद्रूचि दीवो, सुमति स्त्री कडचान प्राप्त जालिले संगमाचो हर्ष, दिशारुपी स्त्री आणि वायुरुपी चवरीन सेवन पावचो भिक्षुक राजाप्रमाणें ह्या भूमिवयरि सर्वं त्याग करनु नीजता.



मृत्पिडो जलरेखया वलयितः सर्वोऽप्ययं नन्वणुः ।
तं स्वीकृत्य सदैव संयुगशतै राज्ञा गणा भूंजते ॥
नो दद्युर्ददतेऽथवा किमपि ते क्षुद्रा दरिद्रा भृशम् ।
धिक् धिक् तान्पूरुषाधमान्धनलवान्वांछन्तितेभ्योऽपिये ॥८८॥

–वास्तविक पृथ्वी ही जलरेशेन सर्व बाजून व्यापलेलो अेक ल्हान अणुं. तरी हो अणुमात्र गोळो आपण्यालो आपण्यालो म्हण्णुं सर्वकाळ शंभरान् राजे युद्ध करनु भोगताचि. आणि दुसर्यांक भोग दीनाचि. कारण ते क्षुद्र आणि दरिद्री आस्साचि. जाल्यारि ह्या लोकांकडच्यान सुद्धां धन अिच्छा करचे त्या पुरुषाधमांचो धिःकार आसू.



गङ्गातीरे हिमगिरिशिलाबद्धपद्मासनस्य ।
ब्रह्मध्यानाभ्यसनविधिना योगनिद्रां गतस्य ॥
किं तैर्भाव्यं मम सुदिवसैर्येषु ते निर्विशङ्काः ।
कण्डूयन्ते जरठहरिणाः शृङ्गमङ्गे मदीये ॥ ८९ ॥

–गंगानदीतीरारि किंवा हिमालयाचे शिळेवयरि पद्मासन घालनुं ब्रह्मध्यानाभ्यास कारणान योगनिद्रेंतु जेन्ना हांवु वत्ता तेन्ना अेक म्हांतारे हरिण निर्धास्त मेगेले फाटीरि आपण्याले शिंगान खाजयता. असलो भाग्याचो दिवस माका केन्नांयी येत वे?



जातः कूर्मः स एकः पृथुभुवनभरायार्पितं येन पृष्ठम् ।
श्लाघ्यं जन्म ध्रुवस्य भ्रमति नियमितं यत्र तेजस्विचक्रम् ॥
संजातव्यर्थपक्षाः परहितकरणे नोपरिष्टान्न चाधो ।
ब्रह्माण्डोदुंबरान्तर्मशकवदपरे जन्तवो जातनष्टाः ॥ ९० ॥

–आपण्याले पाठीवयरि पृथ्वीचे भार व्हांवचांतु कुर्माले जन्म सार्थक जात्ता. तेजस्वीचक्र जशें नियमित भ्रमण करचांतु धृव नक्षत्राचे श्लाध्य आस्सा. परहिताचे खातिर जे पडनांचि तांगेले जीवन ब्रह्मांडाचे पोटांतु आसचे व्यर्थ जशे कीडे.



तृषा शुष्यत्यास्ये पिबति सलिलं स्वादु सुरभि ।
क्षुधार्तः सन् शालीन् कवलयति शाकादिवलितान् ॥
प्रदीप्ते कामाग्नौ सुदृढतरमाश्लिष्यति वधून् ।
प्रतीकारो व्याधेः सुखमिति विपर्यस्याति जनः ॥ ९१ ॥

–तान्ह लागली कीं शितल उदाक पित्ता; भूक लागली कीं शाक भाजी खात्तां; कामाग्नी भडकली कीं स्त्रीलें धृड आंलिगन घेत्तां. सारांश व्याधीक प्रतिकार अश्शी जी औषध आस्साचि, तांकाचि लोक सुख म्हण्णुं अयर्थ समजतालि.



स्थितिः पुण्येरण्ये सहपरिचयो हन्त हरिणैः ।
फलैर्मेध्या वृत्तिः प्रतिदिवसतल्पानि दृषदः ॥
इतीयं सामग्री भवति हरभक्ति स्पृहयताम् ।
वनं वा गेहं मा सदृशमुपशान्तैकमनसाम् ॥ ९२ ॥



–पुण्यमय अरण्यांतु निवास, हरणांचो सहपरिचय, फलमूलांचेरी जीवन, नदीतीराचे शीळेवयरि शय्या - हीं सर्व सामग्री हरिभक्ति तत्पर आशिल्यांकचि मेळता. शांतमनाचे मानवाक घर आणि वन अेकसमान आसता.



न भिक्षा दुष्प्रापा पथि मम महारामरचिते ।
फलैःसंपूर्णा भूर्द्विपमृगसुचर्मापि वसनम् ॥
सुखर्वा दुःखैर्वा सदृशपरिपाकः खलु तदा ।
त्रिनेत्रं कस्त्यक्त्वा धनलवमदान्धं प्रणमति ॥ ९३ ॥

–वाटेरीं चारी बाजून फलांनि सुशोभित बागबगायित आशिल्यान अन्नाचि अडचण ना. पांघुरचाक मृगाचे चर्म आशिल्यान सुखदुःख मनाक विचलित करचाक दीनांचि. तेन्ना त्रीनेत्री शंकराले सान्नीध्य सोडनुं कोण धनान मदान्ध जालिल्यांक प्रणाम करत?



चण्डालः किमयं द्विजातिरथवा शूद्रोऽथ किं तापसः ।
किंवा तत्वविवेकपेशलमतिर्योगीश्वरः कोऽपि वा ॥
इत्युत्पन्नविकल्पजल्पमुखरैः सभाष्यमाणा जनै ।
न क्रुद्धाः पथि नैव तुष्टमनसो यान्ति स्त्रयं योगिनः ॥९४॥

–"हो चांडाळ कीं ब्राह्मण; शूद्रकीं तपस्वी; तत्वविवेक की निपुण योगीश्वर?" ह्या प्रकार तर्कवितर्क करत जन जरी

बडबडचाक लागले तरी मनांतु संतोष किंवा कोप हाड नासताना स्वत: योगी आपण्याली वाट चलता.



अनावर्ती काली ब्रजति स वृथा तन्न गणितम् ।
दशास्तास्ता: सोढा व्यसनशतसंपातविधुरा: ।।
कियद्वा त्रक्ष्याम: किमिव बत नात्मन्यपकृतम् ।
किमस्माभिर्यावत्पुनरदि तदेव व्यवसितम् ।। ९५ ।।

–अेक क्षण सुद्धां परत येवचो ना तसलो काळ अगणित गेलो; ताज्जो विचार आम्मीं केल्लो ना. शंभर व्यसनादि दु:खान भरिलि यौवनावस्था भोगली; जाल्यारि स्वत:चो अुद्धाराचो मात्र विचार केल्लो ना. अरे अरे! आत्तां सुद्धां आमगेले आचरण पूर्वीप्रमाणेंच्चि आस्सा.



क्षान्तं न क्षमया गृहोचितसुखं त्यक्तं न संतोषत: ।
सोढा दु:सहशीतवाततपनक्लेशा न तप्तं तप: ।।
ध्यातं वित्तामहर्निशं नियमितप्राणैर्न शंभो: पदम् ।
तत्तत्कर्म कृतं यदेव मुनिभिस्तैस्तै: फलैर्धञ्चिता: ।। ९६ ।।

–आम्मीं क्षमा केली, ती क्षमाबुद्धीन न्हंय. गृहस्थाश्रमाचें सुख त्याग केलें तें संतोषान न्हंय. थंडी, वत आणि वारो सोसलो जाल्यारि तपाचो ताप न्हंय. सदा द्रव्याचें चिंतन केलें जाल्यारि प्राणायामान शंभोलें पादारविंद न्हंय. ऋषी-

मुनींनि करचिं सर्व कार्य आम्मीं केलीं. जाल्यारि तांका मेळची फल मात्रान वंचित जाल्ले.



ये संतोषसुखप्रमोदमुदितास्तेषां न भिन्ना मुदो ।
ये त्वन्ये थनलोभसंकुलधियस्तेषां न तृष्णा हता ।।
इत्थं कस्य कृते कृतः स विधिला तादृक्पदं संपदाम् ।
स्वात्मन्येव समाप्तहेममहिमा मेरुर्न मे रोचते ।। ९७ ।।

—संतोषान मेळचे सुखाचे आनंदांतु सुवर्ण पर्वतान भर पडना. त्याचिप्रमाणें धनलोभी मनुष्याली तान्ह कसल्यानि तृप्त जायना. तेन्ना ज्यालो सुवर्ण साठो आपण जावनुं समाप्त जात्ता. त्या सुवर्ण पर्वताक त्या विधातान कित्याक निर्माण केल्लो अुरत?



अकिञ्चनस्य दान्तस्य शांतस्य समचेतसः ।
सदा संतुष्टमनसः सर्वाः सूखमया दिशः ।। ९८ ।।

—निरिच्छ, अिंद्रियांवयरि दमन आशिल्ले, शांत, समचित्त आणि सदासंतुष्ट असले मनाक सर्व दिशा सुखमय जावनुं आस्साचि.








अतिक्रान्त कालो ललितललनाभोगसुखदो ।
भ्रमन्तः श्रान्ताः स्मः सुचिरमिह संसारसरणिम् ॥
इदानीं स्वःसिंधोस्तटभुवि समाक्रन्दनागिरः ।
सुतारैः फूत्कारैः शिव शिव शिवेति प्रतनुमः ॥ ९९ ॥

—सुंदर स्त्रीयांले विलासान सुमधुर जालिलें तें तारुण्य केन्नांकी गेलें; आम्मी संसार मार्गारि फिरनुं फिरनुं साफ थकले. आत्ता गंगानदीचे तीरारि शिवशिव म्हण्णुं जप करत बशिले आस्साचि.



मातर्लक्ष्मि भजस्व कंचिदपरं मत्कांक्षिणीं मास्म भूः ।
भोगेभ्यः स्पृहयालवो नहि वयं का निस्पृहाणामसि ॥
सद्यः स्यूयपलाशपत्रपुटके पात्रे पवित्रीकृते ।
भिक्षा सक्तुभिरेव सम्प्रति वयं वृत्तिं समीहामहे ॥ १०० ॥

—हे माता लक्ष्मी, आत्ता आमगेली आकांक्षा सोडनुं दुसरे कोणालो तरी आश्रय घे! आमकां भोगाचि आत्ता अिच्छा ना. निस्पृहाक आत्ता तुगेलो कसलो अुपयोग? आत्ता आम्मीं पळसाचे पवित्र पानांवयरि भिक्षेन मेळ्ळिलें सातुपिंडावयरि निर्वाह करची अिच्छा करताचि.






———

